# अर्पण



## Fr. Lawrence Pinto SJ

(**Viveka Pragati,** P.B.1, Haliyal 581329)

भुर्ग्यां खातीर, दुबळ्यां खातीर जिणी सगळी अर्पिल्याय

भुर्ग्या-सेवेंत सदांच तुवें रचनाराक देखलाय

Bhurgeam khatir, dublleam khatir jinni soglli orpileai

Bhurgeam-sevent sodanch thuvem rochnarrak dekhlai

ಭುರ್ಗ್ಯಾಂ ಖಾತಿರ್, ದುಬ್ಳ್ಯಾಂ ಖಾತಿರ್ ಜಿಣಿ ಸಗ್ಳಿ ಅರ್ಪಿಲ್ಯಾಯ್

ಭುರ್ಗ್ಯಾಂ-ಸೆವೆಂತ್ ಸದಾಂಚ್ ತುವೆಂ ರಚ್ನಾರಾಕ್ ದೆಖ್ಲಾಯ್

**John B. Moraes**

# दिव्यामृत

कवी

## जे. बी. मोरायस

प्रकाशक

**रोशन साहित्य प्रकाशन**

मुंबई

2008

**दिव्यामृत, Divyamrut** - an epic poetry based on episodes from the Old Testament in Konkani in two scripts viz. Devnagari & Romi.

**Author: J.B. Moraes**

**First Edition: 2008**



**Type set by:**

J.B. Moraes, 13/Ritz, Convent View CHS, Chembur, Mumbai 400 071

**Publisher:**

Roshan Sahitya Prakashan
13/Ritz, Convent View CHS, Chembur, Mumbai 400 071
Tel. : 022 - 2520 0324 Mob. : 98192 95433

**Printed by:**

Shri Albert D'Souza of Printania offset Pvt. Ltd.
D-20/21, 4th Floor, Shalimar Industrial Estate,
Matunga (East), Mumbai-400 019.

**Price:** Rs. 100/-

## 'जे. बी. मोरायसाचें साहित्य'

**कविता - पुंजे**
नोर्वा वोकोल
भितरलें तुफान
ऐक थेंट - एक पान

**नीळ-कविता**
दिव्यामृत

**कादंबरी**
पोटाचो उलो

**कथा-पुंजो**
कोशेड्दान केल्ली खून

**जिणये चरित्रा**
जोर्ज फेर्नांडीस
चा. फ्रा. दे'कोस्ता

**नाटक**
ही वाट यमकोंडार्ची
विधिचो खेळ
सोपोण पारकी जुजे

**काव्या-नाटक**
फुतिफारार्ची बायल तीन नाटक

**व्यक्ती परिचय**
मोंगळूरचीं उज्वल रत्नां

**रूपांतरीत कादंबरी**
निस्राल्ल्याक लोटून घालो
बोल्यां मधली शेळी

**आनुवादीत कविता**
नोवें पयण

**व्यक्ती परिचय**
मोंगळूरचीं उज्वल रतनां

**अनुवाद**
अंत्य नासल्लें सपाण
कन्नड साहित्याचो इतिहास
रोमियो-ज्यूलियेट

**संपादीत**
फ्रान्सिस कास्सियाचीं विंचणार बरपां

**मुखलीं पुस्तकां**
'शिर्लो' गोम्स (मोट्व्यो काणियो)
कांट्या-खुंट्यांतचर्यान (आत्म-चरित्रा)

# दिव्यामृतांतल्यो अमृत घडियो



# 'दिव्यामृत'

## कोंकणींतलें एक महाकाव्य

लांब काळाथावन म्हजो मित्र आनी कोंकणीचो नांवाडदीक कवी, कथागार, नाटकीस्त आनी साहित्य विमर्शक बरोवपी, श्री जे. बी. मोरायसान थोड्या महिन्यां आदीं आपली लांब कविता 'दिव्यामृत' हाची एक हात-प्रती धाडून दीवन ताका एक बरें योग्य प्रस्तावन बरोवन धाडूंक विनंती केल्नी. पूण हांव सेवा दीवन आसलल्या सिद्धकट्टे फिर्गजेंत म्हज्या मुखेलपणार फिर्गजगारांनी आरंभ केल्लीं योजनां इस्कोलाचें नवें बांदाप, इगर्जेच्या जाग्यार एक लवें रब्बर तोट, इगर्जेच्या बांदपांक चुनो / बण काडंवचो आनी हेर कामां, नव्या फिर्गजेक वेच्या आदीं संपंवक आसल्ल्या निमतीं 'दिव्यामृत' काव्यें वाचून तांतले रस पियेवन जीरोंवक म्हाका वेळ मेळ्ळोना.

आतां नव्या फिर्गजेंत वसती-सेवा थिर जाल्या उपरांत 'दिव्यामृत'ाचें वाचाप-शिकाप आरंभ केलें. वाचतां वाचतां, हें बैबलांतल्या पर्न्या सोल्ल्यांतल्या थोड्या उंचल्या काणियांचें सांगाप आनी मोतियां सारक्या सतांचें सोबीत सुंदर शैलेन विवरण, सन्निवेशांचें, परिसराचें वर्णन, तांतल्या वीर, आदर्श पात्रदारींचें चित्रण म्हजे तसल्या साहित्य आसक्तांक 'दिव्यामृता'चें खंडित भोजिन म्हण म्हाका भोगलें.

कोंकणींत महाकाव्यें म्हणयेत तसलें लांब काव्यें भारीच अपरूप. सत्राव्या शतमानांतलें, जेजुच्या सभेचो सांदो बाप एस्तेफानान बरयिल्लें 'क्रिस्ता पुराण' पयिल्लें महाकाव्यें म्हणयेत तरी मराठी भाशेचे साहिती आनी विमर्शक तें मराठी भाशेचें महाकाव्यें म्हण भासतात. कवी, एदुवार्द ब्रून द सोजा हाणे रचित केल्लें 'एव आनी मरी' कोंकणीचें पयिल्लें महाकाव्यें म्हणोन रोमी लिपिचे गोंयकार वाद मांडतात. तें आतां प्रो. ओलिविनो गोमिसान देवनागरी लिपींत लिप्यांतर करून, संपादून परगटलां. ही लांब कविता बैबलाच्या दोगां महा स्त्री पात्रांचेर बांदून हाडल्या. मनशा कुळाची आदि-माता एव, आनी मनशाकुळाचो सोडवोणदार सोमी जेजु क्रिस्ताची आवय भागेवंत मरी, हांचो पात्र एकामेका ताळ करून मनशाकुळाच्या पडण्या आनी सोडवणेंत तांचें देणें हांतूं संप्या, सुढाळ उत्रांनी वर्णिलां. हें कोंकणी भाशेचें रोमी लिपिंतलें पयलें महाकावयें म्हण आमी मांदून घेतल्यार कवी जे. बी. मोरायसाचें 'दिव्यामृत' लांब काव्यें कन्नड लिपींत रचीत जाल्लें पयलें महाकाव्यें म्हणच्याक कसलीच आडकळ ना.

त्या शिवाय संसाराचा हेर भासांचीं, पुरातन काळाचीं, नांवाडदीक महाकाव्यां (Epic Poems): ग्रीक भाशेचें 'इलियड', लातिन भाशेचें 'इनिड', इंग्लिशाचें 'प्याराडैज लोस्ट' आनी 'गेयंड', इट्यालियान भाशेचें 'दिवीना कोमेडिया', संस्कृताचें 'रामायण'

आनी 'महाभारत' आनी हेर आमी विमर्सून पळेल्यार, महाकाव्याचीं लक्षणां आमकां कळीत जातात. जायत्यो हजार वोळी आटापचें महाकाव्ये सुर्वेर देवाची स्थुती गावन, आधार मागोन, आरंभ जाता. उपरांत दरयो, वेवेगळे वेळ-काळ, चंद्रेमाचो उदेव, सुर्याचो उदेव, अस्तम, पर्वत - असल्या रचनेच्या सोभायेच्या आनी शृंगार, हास्य, काम इत्यादी 18 प्रकारांचें वर्णन आपल्या आंगांत घेवन मुखार वेता. वीर, शृंगार, शांत, आदि नोव रस महाकाव्यांत निशेतात. एका जनांगाची, काळाची, राष्ट्राची संस्कृती काल्पनिक चरित्रायी तांतू झळकाता. हजार वरसां बाळवोंचें हें काव्यें सर्व काळांक योग्य जाल्लीं सतां उकलून धरता. दैवीक गूण आसल्ल्या महा पुरुशा भंवतीं बांधून हाडल्लें महा काव्यें, ताचीं अतर्वणां, बर्या वायटां मधल्या झुजाचो प्रधान वीर जावन ताका पिंत्रायता.

संसारांतल्या चडावत महाकाव्यांचो विशय पौरवाणिक आनी काल्पनीक. धार्मिक, धर्म ग्रंथांक लग्ती जाल्लो. सर्व-कालिक सतांचें उजारण जाताना, बऱ्या दैवीक गुणांचें प्रतिपादनयी तांतूं आसता. धर्म ग्रंथांतल्या रोसाळ 'रोम्यांटिक' मोगा संबंदाच्यो, राय कुळियां मदल्या लांब झुजांच्यो काणियो - हीं काव्यां रूपण करतात. अशें 'महाभारतां'त कुरुक्षेत्रांतलें झुज, 'रामायणां'त, श्रीलंकांत राम-रावणा मदलें झुज, 'प्याराडैज लोस्ट' आनी 'गेंव्ड' हांतलें सैताना आनी आंजां मदलें झुज, उल्लेक करयेत. चडावत सर्व महाकाव्यांनी दोन-तीन प्रधान स्त्री पात्रयी उटोन दिसतात. 'हिरोइन' जावन तांकां चित्रित करून तांचा आंग-पांगांचें, विश्वांचें वर्णन, गुणा-अवगुणांचें चित्रण आनी निमाणे, तांचें शिलापहरण व तांचें वशीकरण - हाचो परिणाम जावन महाझुज चलता. 'महाभारतां'तलें द्रौपदी, कुंती, 'रामायणां'तलें सीता - हाका उदाहरण जावन घेवयेत. 'इनिडां'तलें हेलेनाचें अपहरणयी असलेंच.

'दिव्यामृतां'त कवी जे.बी. मोरायसान बैबलाचो पयलो भाग - पन्याॅ सोल्ल्यांतल्यो प्रमुख काणियों, घडितां, वीर पात्र विंचून तांचे भंवतीं हें महा काव्यें रचलां. विशय पर्नो तरी निरूपण, वर्णन, भव्य सरी, अलंकार नवे नवेंच. कोंकणिंतल्या हेळल्ल्या मालघड्या कविचो अनभोग, कविता रच्चें उंचलें देणें 'दिव्यामृतां'तल्या पंक्ति-पंक्तिंनी उटोन दिसता. एक हजार आटशीं पंक्तिंच्या ह्या लांब महा काव्यांत, 'उत्पत्ती' आनी 'निर्गमन' ग्रंथांतलीं प्रमुख घडितां, व्यक्ती, काणियों, ईदन उद्यानाचें वर्णन, पयल्या जोड्याचें रचन आनी पडणें, सैंबाच्या पातकाक शिक्षा, काइन आनी आबेलाची काणी, नोवेचें कुटांब आनी बुड्तुगोल, आब्राहामाचें आपवणें, सोल्लो, भासावणी, पुता इसाकाचो जन्म, आब्रामाची पार्कोण, एसाव-जाकोबाची जिणये कथा, जुजेची कथा, ईजिप्तांतलें गुलांपोण, सोडवण, मोयजेचें मुखेलपण इत्यादी सुमधुर शैलेन, स्पष्ट, सुडाळ उत्रांनी वर्णिल्यात.

उपरांतल्या पंक्तिंनी 'रायांच्या ग्रंथां'तलें महान घडीत - दावीद आनी गोलियाता मदलें झुज वर्णिलां आनी 'नितिकर्तांच्या पुस्तकांत'ली दुरंत कथा सामसांव आनी दालीला हांची रोसाळ मोगाची काणी आनी दुरंत-अंत्याची जिणी सांगल्या. 'दिव्यामृतां'त एकलोच

महावीर, मोग-करणार, झुजारी पराक्रमी, 'सुपरमेन' नमलो दिश्टीक पडाना. आब्राहाम, जुजे, मोयजे, दावीद, माममांव - वीर, मुमंपन्न, मुगुणी महापुरुश तरी, अख्या 'दिव्यामृतां'न तांचो पात्र विस्तारून ना. तांचो पात्र एकेका अध्यायाक व तांच्या भंवतीच्या काणियेक मीमित जाला. दावीद आनी गोलियाता मदलें झूज, 'दिव्यामृतां'तलें व्हडलें झुज. पूण तें दोगां वीर व्यक्तीं मदलें; जनांगां मदलें झुज नहीं तें. जाकोब आनी रेचेल, माममांव आनी दालीला, हांचे मदल्या मोगाच्या काणियांक शृंगार रमाचें पोत्र घालां, तरी हेर महाकाव्यांनी वाचूंक मेळचें लांब दीग 'रोम्यांटिक' अतर्वणांचें वर्णन हांगा ना.

अशें जायत्या विशयांनी 'दिव्यामृता'न मांप्रदायिक महाकाव्याचीं लक्षणां दिश्टीक पडतात तरी परिपूर्ण थरान हें मांप्रदायिक महाकाव्यें नहीं म्हणयेत. काव्याचो काळ, लांब-दीग मंमाराचा रचनाथावन विंचणार पर्जा भामायिल्ल्या गांवांत पावोन थंय शाश्वीत वस्तेक रावता परयांत विस्तारला. तरी काव्याचो महावीर पात्र एकलो नहीं देकून आनी वर्णिल्ल्या घडितांक एकामेका आंतरिक मंबंध नामल्ले वर्वी काव्याचो एक्वट अस्कतमो दिमता. पूण काव्याचें छंदस्म, बैबलाचें पाट-थळ, देवाचा पर्जेची चरित्रा, जुदेवांचो देव 'य्हावे'न तांकां रक्षण दीवन निर्दिष्ट शेवोटा कुशीन चलोन व्हरचें माधन - हीं 'दिव्यामृता'क एका थरचो कार्याळ, मैद्धांतिक एक्वट रचून दितात.

'दिव्यामृता'च्या रचनेक वापारल्लें छंदस्म मिल्टनान आपल्या महाकाव्याक 'प्यारडैज लोस्ट एंड रिगैंड' आनी आयलेवारचें कन्नड भाशेंतलें, कुवेंपुचें महाकाव्यें 'रामायण दर्शनम' हाणीं वापरल्लें 'ब्ला ँक वेर्म' व 'मरळ रगळे' छंदस्मच. हांतूं पंक्तीच मुख्य. लाबांयेक बरोनूंच व्हेचें. दर एका पंक्तीक माफ आमा, मरींची मोभाय आमा, अलंकारांची वोप आमा, मात्रेंची बांदावळ आमा; 'रैम आनी रिदम'यी आमा. पुण इतल्याच पंक्तींची बांदावळ म्हण ना.

'दिव्यामृतां'तल्यो मरी, उतरां-चित्रां, भव्य रूपकां व उपमे चडावन कोंकणी काव्यांनी भोव अपरूप वाचूंक मेळचीं नमलीं. 'दिव्यामृत'ांत आमात - दाखल्याक हीं थोडीं पळेया:

पयल्या स्त्रीयेचा केमांचे वर्णन करीत्त कवी म्हणना:

*निळशे दोळे ! प्रशांत तळयांत प्रतिबिंब मोळबाचें !*
*दोंपर परयांत केमांची गम ! जलपात नदीचें !*
*हास्ताना अमृकें - दिमतात दांतांपोवळे - थिकां !*
*हालतात आमड्यो दोळयांवयल्यो - पिसोल्यांचीं पाकां !*
*चलतां, अशीर पेंकटाची मोड, लजयत मैती दूदवाल*
*पिकीं जांबां तशें तिचे मोबतात तांबडे दोन गाल !*
*वाऱ्यार उबतात केम ते काळे - दऱ्यांतलीं शांत ल्हारां !*

कायनाचो मोमोर:

*मोम्राचें बीं वाडोन आयलें विशाल रुका भाशेन*

बुड्तुगोला उप्रांत नोवेचें मागणें:

*नाका सोमिया, दाकयनाका, अमलो क्रोधा-उजो !*

*भोग्साण्याच्या शांती-दर्यांत पालवोन व्हचोंदी तो !*

'पुता इसाकाक बलिदान भेटय' म्हण देवान आब्रांवक मांगल्ल्या वेदना:

*संतोसाचें सपाण जशें पाशार जाल्लीं वर्सां !*

*आतां उटलीं भुंयकांप घडियेन - कोमळोन गेलीं सपणां !*

मोरया पर्वतार बली भेटोंक लांकडा सारी तयार जातनच 'शेळी खंय आमा दादा?' म्हण पुता इसाकान विचारलेल्या वेळा :

*आव्राचे लोट आडायलेल्या नंय्च्या बांधापरी*

*वोर्त्या हटान दांबून धरल्यो दोळयांत दुकां-झरी*

*काट तुटलेल्या आव्यापरी वोल्यार ताचा गळयो*

उत्रां चित्रांक दाखले:

*इजाकाचो जिणये-कळसो आयलो पुरतो भरोन*

इसाक एसावाक म्हणता

.......... *जिणये-सुरयो म्हजो*

*बुडोंक जाला तयार बाळा*

अमल्यो सरी, उपमा, अलंकार, रूपकां, उत्रां-चित्रां अख्ख 'दिव्यामृता'त भरोन वोसतात. देकुन 'दिव्यामृता'च्यो वोळी वाचून वेताना साहित्या पक्वानाचें अमृत सेवन, मतीक शांती, तृप्ती दिता.

कानडी लिपीन बरंवच्या आनी आतां जींवंत आमच्या कोंकणी कवीं पैकी श्री जे. बी. मोरायस चड लोकामोगाळ जाला. ताचीं कवनां, जिवाळ धांवत्या झरी बरी, नितळ, सुरस, सरळ, परिचित प्रतिमां सरी द्वारीं, उंचलीं गूंड मतां आमचे मुखार उगतीं करूंक तो सकता. ताणे आपल्या कवनांनी आनी काणियांनी पित्रांवचे पात्र वास्तवीक जीवनाक बोव लागसिले. ताचा पात्रांचे गूण-अवगूण-शेगूण, मनशापणाचीं आनी खोट्यापणाचीं लक्षणां आमचे भंवतीं पळेंवक मेळच्या व्यक्तिचींच. तांनले थोडे आमींच जांवंक पुरोकाय? म्हळो दुभाव उबजाता.

'दिव्यामृतां'नले पात्र - दादले आनी स्त्रीयो - पुरातन काळाच्यो सरी, आयच्या आमच्या संसारांनयी तसल्यो दिष्टीक पडतात. तांचा सांगाता आमी जियेवन आसांव. तांचा मोगाचो, बऱ्यापणाचो तशेंच खोट्यापणाचो, फितूरी-शित्र्यांचो अनभोग आमकां जाल्लेबरी दिसता. दाखल्याक, एवेची सोभाय, चंचल स्वभाव, आशा, जायत्या आमचा काळाचा स्त्रीयांथें आमी देखल्या. कायनाचो मोसोर आनी ताचो परिणाम, सारा आनी आगार - हांचे मधलें जगडें, मोस्त्राळें वर्तन, आब्रांवचे कळवळे, असहायता, त्याग, रेबेक्कान आपल्या दोगां चेरक्यांमधें करचो भेद, मोगाखातीर जाकोबान करचो त्याग,

पुतिफाराच्या बायलेचें कामुकिपण, गोलियानाचे पराक्रमाचे पोकळे आनी बुडबुडे, दाविदाचो विश्वास आनी स्वाभिमान, सक्तिवंत बळिष्ट सामसांव दादल्याक सलविल्ल्या दलीला स्त्रीयेचें सैलापाचें आय्द - हीं सर्व लक्षणां, शेगुण, अस्कतकायो भारीच मार्मिक रितीन काळजाक लागचेबरी ह्या महाकाव्यांतल्या पात्रांनी झळकातात.

हेर भासांचीं महाकाव्यं आमी अध्ययन केल्यार थंय थोडे वीर पात्र अप्रतिम थरान उटोन दिसचे आनी त्या महाकाव्यांक जीव भरचे आमी पळेतांव. दाखल्याक, 'रामयाणां'त श्रीरामाचो पात्र 'महाभारतां'त धर्मराय आनी अर्जुन, 'इलियडां'त हेलेन इत्यादी. 'दिव्यामृतां'तई असले महापात्र आसात. आब्रांव, जाकोब, जुजे - असले पर्जळीत पात्र म्हणयेत.

चडावत सर्व महाकाव्यांनी निर्णायक महाझुजाच्या वर्णनाकयी प्रमुख स्थान आसा. अशें 'महाभारतां'त कुरुक्षेत्र झूज, 'रामायणां'त राम-रावणा मधलें, श्रीलंकांतलें झूज, 'इलियडां'तलें 'ट्रोजन वार' भारीच नांवाडल्यांत.

'दिव्यामृतां'तलें गोलियाना आनी दाविदा मदलें झूज श्री जे. बी. मोरायसाचा लिखणंध्वारीं कोंकणी साहित्यांत अमर जातलें म्हणच्याक दुबाव ना. इजाकाक बली भेटवंच्याक मोरिया दोंग्राक चडोन वेताना आब्राहामान बोगचें ते वोळवळे आनी कळवळे, आंतरीक चडपडे, काळजाक मारचेबरी 'दिव्यामृतां'त पिंत्रायल्यांत. काव्याचो हो भाग वाचताना कसल्या कठीण काळजाचें मनयी कडोन उदाक जाता आनी दोळयांनी दुखां देंवतात. ईजिप्ताचो राज्यपाल जुजेन, आपल्या धाकटी भावांक भेटचें आनी भोगसुंचें घडितयी भारीच मार्मिक रितीन 'दिव्यामृतां'त चित्रित जालां. हीं थोडीं दृश्यां हांगासर चित्रित जाल्लीं, जिवीं जिवीं, आमच्या मुखार उबीं जातात. वाचून जाल्या उपरांत थोडोसो वेळ मती-पडद्यार नाचतात. सामसांव बळवंताक दलीला नसल्या असक्त चलियेन आपल्या स्त्री सहज सैलापान सलवोवन नास केल्ली दुरंत कथा जिवाळ थरान 'दिव्यामृतां'त पिंत्रायल्या. हें मनशाकुळाच्या चरित्रेंत हजार पावटी परत परत घडचें आमी पळेतांव.

'दिव्यामृतां'तली भास आनी वर्पा-रीत साद्या उण्या शिकप्या वाचप्यानयी हें वाचून आनंद पावयेत. हैस्कूलाच्या शिकप्यांक कशें, तशेंच विश्वविद्यालयांत शिक्चांकयी हें पाट पुस्तका रुपार शिकोंक दीवयेत. कोंकणी भाशेची सोभाय, उत्रांचें भंडार, अलंकारांचें खजान, सार्वत्रिक सतांचें प्रतिपादन, 'क्रिस्ता पुराणा'चीं लक्षणां 'दिव्यामृतां'त जिवाळ थरान चित्रित जाल्यांत. कोंकणी भाशेच्या श्रेष्ट काव्यां पैकी हें एक खंडित. एदोळच्याक, कानडी लिपींतलें एक, एकच महाकाव्ये म्हळयार 'दिव्यामृत'च. हें रचून कोंकणी सारस्वत गिरेस्त केल्ल्या महाकवी जे. बी. मोरायसाक कोंकणी समाजे तर्पेन 'देव बरें करूं' म्हण सागतां.

**मार्क वाल्डार**, एम.ए.
'राकणो' सातोळयाचो आदलो संपादक

# कविचीं भोगणां



मोगाळ काव्याप्रेमीनो,

लगभग पन्नास वरसां आदीं, 1959 वरसा, प्रसिद्ध कवी आनी 'पयणारी' हफ्तोळयाचो तवळचो संपादक जावनासल्ल्या देवाधीन चा.फ्रा. डि'कोस्तान केल्ल्या विनंतीक पाळो दीवन हांवें परन्या नेस्तासेंतार आधारीत 170 वोळींची 'दाविद आनी गोलियात' कविता बरयली आनी ती 'पयणारी' विशेस अंक्यांत छापली. 'चा फ्रा'क तशें 'पयणारी' वाचप्यांक ती भोव मानवली. ह्या थरान 'दिव्यामृत' नीळगवितेचो बुन्यादी फातोर पन्नास वरसां आदीं बसयलो म्हणयेत. उपरांतल्या तीस वरसांनी 'दिव्यामृता'चें कांय काम चल्लेंना. 1989 वर्सा थोड्यो वोळी बरवन 'राकणो' हफ्ताळयांत सांकळ रुपार फायस केल्यो. पूण 'दिव्यामृता'चें आयचें रूप हाडूंक आनी थोडीं वरसां लागलीं. अशें या वरसा 'दिव्यामृत' नीळगविता संपोवन ती तुमच्या मुखार दवरूंक म्हाका वोर्तो संतोस आनी तृप्ती भोगता.

इंग्लीश, हिंदी आनी कन्नड भाशेंतल्या थोड्या महाकाव्यां विशांत हांवें जायतें आयकालां आनी वाचलां. कन्नडांत विनायक कृष्णा गोकाकान बरयिल्लें 'भारत सिंधू रशमी', कुवेंपून बरयिल्लें 'रामायण दर्शनँ' आनी हिंदींत मैथिली शरण गुप्तान बरयिल्लें 'साकेत' भोव नांवाडदीक जावनासात. 'रामायण दर्शन' आनी 'साकेत' हांवें वाचल्यांत. मंजेश्वर गोविंद पै कन्नडांत जेजुच्या जिणयेंतलो निमाणो दीस, 'गोल्गोथा' नांवान भोव मार्मीक शैलेंत काव्या रुपार हाडला. ताचो कोंकणी अनुवाद प्रो. एड्वर्ड नोरोन्हान भोव सुंदर रितीन केला. आमच्याच माय भाशेंत, कोंकणींत, सुमार शेंबोर वरसां आदीं गोंयच्या कवी एड्वर्ड ब्रूनो द सोजान 'एव आनी सोरी' नीळगविता बरयल्या.

'दिव्यामृत' ह्या रुपार तुमचे मुखार हाडूंक वयर उल्लेखन केल्ल्या आनी हेर महाकाव्यानी म्हाका वोर्तें प्रेरण खंडीत दिलां पूण 'दिव्यामृत' तांच्या उंचल्या मट्टाक पावोंक ना जायत तें हांव भोव खाल्तेपणान सांगतां.

म्हज्या संद्रापा प्रमाणे पोर्न्या मोल्ल्यांतल्या विंचणार घडितांवयर हांवें 'दिव्यामृत' रचीत केलां. लगभग पावणे दोन हजार वोळी हांतूं आटापून आसात. 'आदांव आनी येव', 'नोवे आनी ताची नाव', 'जुजे आनी ताचे भाव', 'दावीद आनी गोलियाथ', 'सामसांव आनी दालीला' असलीं भोव भोगणाभरीत घडितां विंचून हांवें ही नीळगविता बरयल्या. 'दिव्यामृत' कविता बरयताना व्हडांक धरलतें भुर्ग्यांक सैत वाचूंक ती सुलभ जायजे म्हळळो उद्देश म्हज्या मतींत आसल्लो. पोरन्या मोल्ल्यांतलीं दैवीक प्रेरीत सन्निवेशां आमच्या कोंकणी लोकाक साध्या पूण, कवीच्या उद्वेगभरीत भावनांच्या भाशेंत काव्या रुपार सादर करचें साधन हांवें केलां. पोर्न्या मोल्ल्यांतलीं घडितां सबार हजार

वरसां आदीं बरयिल्लीं. त्या काळाच्या लोकाची भास आनी जिणये रीत तांतूं झळकाता. अशें आसतां, त्या काळाचीं घडितां आयच्या कोंकणी पिळगेक समजा साक्र्या भाशेंन काव्या रुपार हाडचें प्रेतन केलां. थोडीं घडिनां काव्या रुपार चड नाटकीय आनी आनी रोमांचक दिसनीत. संवेदनशाली वाचप्यांक हाची रूच मान्वतली म्हळ्ळो म्हजो भर्वसो. हांवें विंचल्लीं वेगळीं घडितां विविध माहितीक रसांनी भरल्लीं आसोन नीळगवितेक योग्य म्हण म्हाका भोगलें.

म्हज्या उल्याक पाळो दीवन 'दिव्यामृत' नीळगवितेक 'राकणो' हफ्ताळयाचो आदलो संपादक, बाप मार्क वाल्डारन आपल्यो सर्व रटाबोळी कुशीन दवरून भोव खुशेन आनी उम्हेदीन एक सविस्तार, चिंतनभरीत, पांडित्यपूर्ण प्रस्तावन आपल्या विशिष्ट शैलेंन बरोवन दिल्ल्याक हांव तांचो काळजांत थावन ऋणी जावनासां. बाप वाल्डार 'राकणो' पत्राचो संपादक जाल्ल्या तवळ थावन हांव तांकां वळकतां. जशें कोंकणींत तशें कन्नडांतयी ते उंचले पंडीत जावनासात. ताणी संपादन केल्लें 'अमर कोंकणी' पुस्तकच हाका साक्स जावनासा.

'दिव्यामृत' पुस्तकाचें वैशिष्ट कितें म्हळयार, हि नीळगविता कोंकणीच्या तीन लिपींनी म्हणजो कन्नड, रोमी आनी देवनागरी लिपींनी बरयल्या. ह्या सवलतेंवरवीं कोंकणांतल्या नोवोद आनी नोव प्रतिशत कोंकणी लोकाक 'दिव्यामृत' वाचूंक साध्य जातलें. बाप मार्क वाल्डारन आपल्या प्रस्तावनेंत सांगलां की 'दिव्यामृतांत'ली भास आनी बर्पा-रीत सोंपी आसोन साद्या तशें उण्या शिकपाच्या वाचप्यांनी सैत हें वाचून आनंद भोगयेत. हैस्कूलाच्या शिकप्यांक तशेंच विश्वविद्यालयांत शिक्प्यांकयी हें पाठ पुस्तका रुपार शिकोंक दिवयेता. बाप वाल्डारच्या ह्या अभिप्रायेक, संबंधीत कोंकणी फुडाऱ्यानी पाळो दिल्यार म्हाका वोर्तो संतोस भोगतोलो तांतूं दुबाव ना.

हें पुस्तक भोव नाजुकायेन छापून दिल्ल्या 'प्रिंटानिया' प्रेस्साच्या मानेस्त आल्बर्ट डि'सोजाचो हांव भोव उपकार बावूडटां.

**मुंबय** **जे.बी. मोरायस**

आक्टोबर १९, 2008



# दिव्यामृत

## आदांव आनी येव

### ईदन उद्यान

ईदन उद्यान - भुमीर वैकुंट - किते ना थंय देखोंक?
सर्गावयलें, दरया सारकें, सुख थंय मेळात चाकोंक!
दिसता पाचवी सृष्टी सगळी - थंडाय, आल्हाद मतीक!
फुलां रंगाळ, फळां रोसाळ - मेळटीत दिसाक रतीक,
वागा-शिंवां, गोरवां-मेरवां - भोंवतीत भियाविणें.
सुकणीं सोबीत जीवदाळ विविध - करतीत थंयसर टाणें.
सरोवरांत उदाक प्रशांत - दिता आसरो बानकांक
निळशें आकाश कुपां सहित - प्रतिबिंबित उदकांत.
विशाल वृक्षां उंचार पावोल - दितीत सावळी, थंडाय,
अस्कत वाली रेवडोन तांकां - लकतीत वाऱ्यांत सदांय.
ना थंय भेद-भाव - ल्हान व्हड, बुदवंत - सगळेंय एकच कुटाम!
ना द्वेष-झगडें - राज करीत थंय - शांती तृप्ती सदांय.

### पयलो मनीस

माती सोंवाळ, मातो ईटाळ, सर्व्य जीवींक आधार
गर्भांत ताच्या लिपोन आसात रत्नां अमूल्य सबार!
माती तसली मूटभर घेतली सोमिया देवान हातीं -
सुखार घडचें अज्याप नियाळून संतुष्ट जालो मनीं.
आपल्याच रुपांत रूपीत जायत हें रचनांत रचन उत्तीम!
आपल्याच आनंद प्रकाशाचें प्रज्वल एक प्रतिबिंब -
अबळे नवाल! मुटीभितर माती नपंयच जाल्या!
सुखार उबो मनीस पयलो! सोमियाची श्रेष्ट कला!
फुंकलो सोमयान उस्वास अद्भुत - आनसो! अमर जीवन!
आपलेंच स्वरूप दिलें ताका - सृष्टी जाली पावन.
रचन उंचलें देवान रचलें! पूण तें अपूर्ण उरलें -

एकसूर मानव पृथ्वीर भोंवोन सुख भोगीत तर कसलें?
आपणें रचलीं वागा-शिंवां, सुणीं-माजरां सयती
आमान खुशालकायेंन तृप्ती - भोंवतात जोडीं जोडीं!

## पयली स्त्री

सोबाय सगळी आरावन हाडली नंदन वना मधली -
मूळथावन तकली सोबाय भरली - सोमयान एवेक रचली!
आदांव कुशीन निदावन निका पळयत आपली कला!
अद्भूत रुपन - पुरुषाक स्त्री! व्हाडोंवक मनशा-कुळा!
उट्टा आदांव - पळेवन एवेक दोळयांक तो पातयेना!



काळजांत नाच्या उटल्यांत कितलीं संतोसाची ल्हारां!
अंगांग तिचें पारकिता तो विजमीत खुशालकायेन!
निसर्गाची सोबाय पुरती आपणायल्या त्या स्त्रीयेन!
निळशें दोळे! प्रशांत तळयांत प्रतिबिंब सोळबाचें!
धांपर परयांत केसाची रास! जलपात नदीचें!
हालतात आसङ्यो दोळयांवयल्यो !- पिसोळयांची पाकां!
हासताना असूकें - दिसतात दांता पोवळें - थिकां!
चलतां अशीर पेंकटाची सोड लजयत सयती दूदवाल!
पिकीं जांवां तशें तिचे सोबतात तांबडे दोन गाल!
आंगावेली गोरसाण तिची पुनवे रातीं चांदणें!
दोळयां प्रकास सकाळिचें सुर्या किरण तरनें!
वाऱ्यार उबतात केस ते काळे - दर्यांतलीं शांत ल्हारां!
सोबाय तिची पळेत रावन - वांगंची लांब वोरां!

कोमल तांबड्या वोंटांक पळे! पाकळयो गुलोबांच्यो!
मोवाळ वाडकुळ हानांक पळे! कांडियो केंळब्याच्यो!
आवाज तिचो पिपंळा रुकार गांवच्या कोगुळेचो!
हामो तिचो आयकोंक मधुर - गुळगुळ नाद नदीचो!

## सरोप नाडटा

ईदनाच्या नंदन वनांत आदांव राय! एव राणी!
नामलें किलेंच उणे तांकां - सुखी तांची जिणी.
पळेवन सैतान जळ्ळो मोम्रान - आयलो सर्पा रुपान
वोडुंक पातकी कोंडाक एवेक - बसलो रुकार लिपोन!
आपुण जळटां मामण उज्यांत - जायना केदींच गोबोर.
हांचें जीवन नंदनवनांत सर्वय सुखा-शिवोर
पापा मावळीं एदोळ नामली आदांव एवे जिणयेंत
आतां सैतान जालो तयार वोडूंक पातका खणयेंत!
आतुर मनीं राकोन रावलो - फळ धरललें वेंगोवन;
हा! कसली गोडसाण ताची सोबता कशें रंगान!
स्त्रीये स्वभाव चंचल - वाऱ्यार धलच्या चिव्यावरी!
दाकय इल्ली आशा - चडय ऊंचार - भुल्ली नारी!
पावलां नाजूक आयकोन सैतान - वोंटां भितर हासलो;
आडवारलल्या फळांत ताका मनशाचो नास दिसलो!
रुकालागीं पावनच एवेक भुलयना तो धलोन -
विकाळ मांडणी लिपोवन तिका सांगता मधुर ताळयान -
'सुंदर बावले! ईदनांतले! आदांव सांगातिणी;
काळीज म्हजें भेसां जाता चिंतून तुजी जिणी.
कसली सोबाय! कसलें गिन्यान! तरयी कित्याक देवान
धरला तुका दांबून अशें? जळटा कित्याक मोम्रान?'
उतरां गुपीत अर्थाभरीत आयकोन जायत ती चकीत;
जाळाक आपल्या सांपडली एव! सैतान तक्षण पारकीत.
'नंदन वनाची राय-राणी केलां तुमकां देवान.
नंदनवन हें संपूर्ण सुखा-संपत्तेचें स्थवण!
तरयी आडवारलां न्हंय तुमकां - फळ एका रुकाचें?

खेल्यार तें जोडटल्यात जाणवाय - समजोन बरें-खोटें.
आपुण सर्व पद्वेदार म्हणच्या देवा समान तुमी
जाश्यात खंडीत - धरतल्यात ही सुर्टिभितर भुमी'
सर्पा रुपार सयतान तेदना दिसलो सोबीत कुंवोर
उतरांचे वीक जालें अमृत - घाताक बसलो धुंवोर!
तांबशें-पाचवें, आंबशें-गोडशें, फळ तें एवेन खेलें,
तशेच गोड उतरांनी नाडून - आदांवन खायशें केलें.

## सोमियान दिल्ली शिक्षा

एकाच फळान बदललें सर्व! जिकली खोटी आशा
मनशाकुळाक लागली आतां सासणाची दुर्दशा.
सासणाक तुमी पालवयले ते प्रज्वलित दोन दिवे
कटा! कित्याक केलें अशें आदांव आनी एवे'?
नाडटेल्याच्या घासाक पडल्यात दाकयनासतां विगंध
ताळणे-उज्याक जाल्यात बली - भोगलो सोमयाचो क्रोध
निळशें सळव नितळ तळयात जशें प्रतिबिंबीत
सोमयाचो मोग अगाध प्रज्वल - जिण्येंत तुमच्या चुंबित



आतां पापा सावळी आयली - सुरयाक लागलें गृहण.
सासण परयांत मनशाकुळाक मुक्ती अपहरण.
नग्नावस्थेर शुद्ध, सरळ, पवित्र, निष्कळंक
आदांव एवेक आता आपलेंच शरीर दिसता कळंक!
लजेन दोडतात, पानां न्हेसतात. लिपोवक विश्वें गुपीत!

सोमयाच्या क्रोधाची भिरांत काळजांत तांच्या रूपित
कुपां मधल्यान सोमया तालो आपयत आदांव एवेक
घडघड्या आघात तसो आपटान पापी काळजांक!
'आदांव! आदांव! कित्याक लिपलाय? कितें तुवें केलेंय?
ताकीद म्हजी मोडलीय तुवें! आडवारलें फळ खेलेंय!'
'एवेन म्हाका नाडलें धनिया! ना कांय अप्राध म्हजो'
'सर्पान म्हाका नाडलें धनिया' उळटो वाद एवेचो!
थोड्योच घडियो! अंतर केदें! पाप-निष्पापा मधें!
पातकान किनलें निर्बळ जालें पयलें मनशा जोडें!
अगाध दुखीन भरलो सोमी - किनलो असकन मनीस!
पयल्याच ताळणेक जालो बली - सैतान जिकलो सलीम!
क्रोधान न्हंय पुण दुखीन सुटलीं उतरं ताचीं निगूढ
'चलया तुमी दोळयां मुखलीं! सोड्या भुमी वैकुंट!
एवे, तुज्या गर्भांत किरलोन येंवचीं भुरगीं बाळां
अपार दुख हाडटलीं तुका - पडटाना भुंय थळा.
पतीक खाल जावन चलतलीय तूं - तो तुजो संरक्षक.'
आदांवक सोमयान सांगलें 'आदांव, एवेक संतुष्ट करच्याक
आतां पापा सावळी आयली - सुर्याक लागलें गृहण.
सामण परयांत मनशाकुळाक मुक्ती अपहरण.
नग्नावस्थेर शुद्ध, सरळ, पवित्र, निष्कळंक
आदांव एवेक आतां आपलेंच शरीर दिसता कळंक!
लजेन दोंडतात, पानां न्हेसतात, लिपोंवक विश्वे गुपीन!
सोमयाच्या क्रोधाची भिरांत काळजांत तांच्या रूपित
कुपां मधल्यान सोमया तालो आपयत आदांव एवेक
घडघड्या आघात तसो आपटान पापी काळजांक!
'आदांव! आदांव! कित्याक लिपलाय? कितें तुवें केलेंय?
ताकीद म्हजी मोडलीय तुवें! आडवारलें फळ खेलेंय!'
'एवेन म्हाका नाडलें धनिया! ना कांय अप्राध म्हजो'
'सर्पान म्हाका नाडलें धनिया' उळटो वाद एवेचो!
थोड्योच घडियो! अंतर केदें! पाप-निष्पापा मधें!
पातकान किनलें निर्बळ जालें पयलें मनशा जोडें!

अगाध दुखीन भरलो सोमी - कितलो अस्कत मनीस!
पयल्याच ताळणेक जालो बली - सैतान जिकलो सलीस!
क्रोधान न्हंय पुण दुखीन सुटलीं उतरां ताचीं निगूढ
'चलया तुमी दोळयां सुखलीं! सोड्या भुमी वैकुंट!
एवे, तुज्या गर्भांत किरलोन येवचीं भुरगीं बाळां
अपार दुख हाडटलीं तुका - पडटाना भुंय थळा.
पतीक खाल जावन चलतलीय तूं - तो तुजो संरक्षक.'
आदांवक सोमयान सांगलें 'आदांव, एवेक संतुष्ट करच्याक
सोडलीय एकच ताकीद म्हजी - घे ही शिक्षा आतां -
झरय घोटां मातयेर - भर पोट मातयेथावन सर्वतां.
मातयेथावन उबजाल्लोय परत व्हेतलोय तूं मातयेक.
मरण जांवदी अंतिम शेवोट पृथ्वीर मनशा जातीक '
आदेस मागलो नंदनवनाक - दुखान आदंव-एवेन
पावलीं पर्देशाच्या थाळार गवलीं कष्ट दावेन

## कायिन आनी आबेल

पर्देशाच्या मुकिधाडींन आदांव आनी एवेन
पोटाची भूक थांवयली भोव श्रमान रगता-घामान.
दीसभर गोळटच कुडी तांच्यो पुरसाणेन भरल्यो.
रातीं एकामेका वेंगेंत कष्ट-दूक सर्व विसरल्यो.
प्रथम मनशा-बीं किरलालें एवे गर्भांत तेदना.
आदांव एवेक वेडो मारलीं संतोसाचीं भोगणां!
महिने नोव उबोन गेले नोवच दिसांबरी.
आयली घडी उद्भवाची - मनशाक चकिन करी.
सोमयान रचलो पयलो मनीस - आतां मनशाक मनीस
रचूंक सकलो देवी कृपेन - व्हाडावळ ही नीज!
भोगली एवेन वोगान वोगं क्रूर प्रसव-वेदना
उटलीं पोटांत निच्या निष्टुर, ल्हारां पाटल्यान ल्हारां.
प्रसून जाली चेर्क्या बाळाक - रचन केलें तिणे!
विसरली दुख खिणाभितर! आवयपणा देणे!
आपयलो 'काइन' नांवान ताका - 'मनशाथावन उबजाल्लो'

वेगींच उबजालो पूत दुसरो - 'आबेल' नांवा चलो.
काइनान केली कृषी - कोसून शेतां, लायलीं झाडां.
आबेल जालो गोवळी - पोसून भोकऱ्यांक तशें गोरवांक.
भा-भाव दोगयी भुजांक भुज दीवन गोळले पावसांत वोतांत.
सोमयान तांकां उद्धार केले पिकोवन भांगार शेतांत.
मांगलें कायनान 'भावा आबेल, सोमयान दिलें धागळ.'
अर्गां ताका दीवयां भेटोवन भोकरे, फळां रेसाळ '
दुसरे दिसा काइनान हाडलीं शेतात भोंवोन, विंचून
गोंवा कणशी, रेसाळ फळां आनी फुलां गुंतून
दवरून वेदीर भेटोवन सोमयाक - स्थुती ताणे केली!
सोमयान दाकयलें मौन पळेवन मन पिसांतुर जाली
आबेल गेलो शेळियां मधें - विंचली बऱ्यांत बरी
कातरून तिका दिली भेटोवन - सोमयाक खुशी जाली.
निनळ मळबाक वेडो घाल्यार कशें काळया कुपान
सावळी पडटा तशें काइन विदरूप जालो रुपान.
क्रोधा-मोसरा-उजो जळळो हुलपावन अंतस्करण
पेल्याचो मोग ल्हासोन गेलो - काळीज जालें धारूण.
रावलो ना थंय खिणाक सैनी - धरणीक खोटो मारून
चल्लो वादळ वारें कशें सोमयाक पाट करून!
सोमयान उलो मारलो 'काइन, कित्याक रागीष्ट असो?
खंयसर व्हेताय भावाक सांडून, ताचो वैरी जसो?
सोमयाक तुज्या आबेलाची मानली देकुन भेटोवण
संतोस तुवे दाकंवक फावो हर्षाक ताका वेंगोवन.'
कुडीन मतीन जाल्लो केप्पो - मोसरान जाल्लो आंदळो
सोमया उतर तुच्छित करून थंयसरथावन तो चल्लो.
राकालागलो संदर्भ सोधून फारिकपणाक आशेवन
मोसराचें बीं व्हाडोन आयलें विशाल रुका भाशेन.
आयलो एक दीस आबेलाक तो आपयलागलो शेतांत.
धारे-सुरी लिपयलली बुडली ताच्या रगतांत.
एकाच आवयचीं दोन भुरगीं - एकाच रुका फांटे!

एकलो जालो विकाळ आनी रगतांन जाले वांटे!
मारलो उलो मामयान कायनाक 'खंय आगा भाव तुजो?'
प्रत्युत्तर हाय कठोर! 'न्हय हांव राकवली भावाचो!'
'कितें तुवें केलेंय काइन? आबेलाचें रगात
जंयमर शिंपडोन मातयेंत मेळ्ळां, थंयथावन मारता बोबाट.
निरप्राधी भावाचो जीव काड्टाग्रताना तुवें
कोशेड्द तुजें कांतयनाग्रनां रावलें तरी कशें?
फळादीक ह्या भुमीक तुवें केलोय क्रूर अत्याचार!
फुलां, फळां, कणशी दिल्ल्याक हो तुजो प्रत्युपकार?
चल ह्या भुमिथळाथावन पयस केल्ल्याक तिचो विभाड!
खंयमर गेलोय थंयमर तुका मेळटली मुकीधाड!
जांवचें ना पीक - मेळचेंना उदाक!' उतरां कोडसाणेचीं
दुखां गळयीत, धुळींत लोळयीत, काड मेटां जिणयेचीं!



# नोवे आनी ताचें कुटाम

वरसां पाटल्यान वरसां गेलीं - संसार गेलो व्हाडोन
आदांव एवे पिळगी चडली - दोंगोर फालकीं भरोन
तसोच भरलो संसार अधीक वोरत्या खोटेपणान.
मूळ मनशाचें पाप मुळावें आयलें पाट धरून.
लडाय, डोंबी, चोरपण, गाळी, प्रदुवारपण, आळसाय
भरले सगळयान वोजें खोटें - भुमीक भोगली जडाय.
सोमया भक्ती, भिरांत व मोग - उरलोना कोणाय थंय.
बदलाक ताची निंदा करूंक भोगलेंना तांकां कांय.
अपार दरया गूंडायेची सोमणीकाय सोमयाची
सोसुंक ती सकाना जाली खरिमस्त मनशाची.
शिंजलें ताचें काळीज - अगाध दुखीन पळेवन संसार
कितल्या मोगान रचलो आपणे भरून रचनां विंचणार.
आपल्या सारक्या मनशाक रचलो - दिलें अमर जीविन!
होगडायलें तें खिणान! कशें? कोण तें पाटीं हाडीन?
ज्या दीस एवेन वांकड्या वाटेन व्हचोंक संटां काडलीं
त्या दिसाथावन मनशाकुळान मनाची वाट सोडली.
सुयोग कितले परतोंक दिले - पाटीं खऱ्या वाटेक.
निष्प्रयोजक जाले सगळे - मनीस उरले खोटे.
चिंतलें सोमयान, केलो निर्धार - संसाराचें निर्मूल
एकच वाट चुकीक आपल्या - तरयी जालो व्याकुल.
सर्गच आपणे भासयललो - सासण सुखाची जीण
जाली कोडू मनशा-कुळाक! वेंगली पातकाची जीण!
पातकाच्या ह्या अगाध दरयांत ल्हान एक द्वीप आसलले -
नोवे आनी कुटाम ताचें देवभक्तीन व्हाडलले.
लांब काळक्या सुरांगांत झळकान उजवाडा कीर्ण जशें
आदर्शभरीत जिणी तांची आसोनयी खोट्यांमधें!
नोवे, ताची स्त्री आनी पूत शेम, हाम आनी जाफेत
आनी पुतांच्यो पतिणी - मेळोन जणां आट!
खोट्या प्रवाहाच्या विरोध झुजतालीं तीं उपेंवक

हर एक कोनशार लिपोन अपाय राकलो तांकां बुडोंवक!
मांगलें सोमयान एक दीस नोवेक 'पातकान भरला संसार!
कुसडाय ही सरचीना पयस केल्या बगार संहार!
मनशाकूळ हें जातलें नास - संगीं खगां-मृगां!
उरचेंना कांय जिवाळ आमचें - उरचींनांत रूक-झाडां!
धाडटलों बुड्नुगोल भीकर! बुडटेलीं भुंय-भाटां!
नांव नासताना व्हेनेलें सर्व - व्हाळोन आवग लोटांत!
उरतेलीं आट मनशां पृथ्वीर - कोण तीं? कशीं? सांगतां -
कुटाम तुजें आट जणांचें - मरणाक तोंड दिवचेंना!
उबरा मधें माळक कोमल सोबता तशें, तुजें
कुटाम उरलें करणेन नितळ - पापा चिकला मधें.
बांधतलोय तूं नाव एक व्हडली - मजभूत रुकाडाची!
दवर तातूं ओडी हरयेक प्राणी वर्गाची!
जांवदी सोनजात, मुकणें, जिवदाळ - धरणीर चरची जीवी
आवग उपरांत भरोंक संसार - सोवोंक पृथ्वी नवी!
आसतलें त्या नावेंत तुजें कुटाम - त्यो जीव राशी!
बाकी सर्वांक मेळटली सोमयाची निष्टूर फाशी!
उरल्लें सर्व उस्वास सोडचें - नास जातलें आवरांत!
पापा-चिकोल व्हचों धुंवोन - सारेकार त्या उदकांत!

## नोवेची नाव

नोवेची नाव तयार जाली - देखनल्यांक आतुराय!
'सुक्या धरणीर नाव बांधची ही कसली हांकां पिसाय?'
नोवेन दिली चत्राय - 'सोडया पातकी जीवित आजथावन!
करा प्राश्चित खऱ्या काळजान - सोमयाचो क्रोध देंवंव.
न तर नास जातली भुमी - उरची ना कांय जीव-रास
भीकर आवगांत बुडटलें सर्व - चलत उदकाचें राज!'
आयकातले हासोन गेले - नोवेक पिसो काडून!
पातका कोंडान अधीक गेंवले - सोमयाचें भ्यें सांडून!
आयलो दीस तो जेदना नावेंत भरल्यो प्राणी-राशी
धुळींतली किंचित मृय धरून जस्त गात्राच्यो हस्ती!

आयले कावळे! आयले पारवे! रंगाळ सुकणीं हजार!
कुपांक पाकां लागल्यार जशीं भरलीं विशाल मोळबार!
हजार-नाळयां-संगीत-मेळान रिगलीं नावे भितर!
नोवेन तांकां दिलो स्वागत गावन सुकण्यांचें उत्तर -
'चिली पिली' 'कुहू कुहू' उटली प्रतिध्वनी!
बसली मृगांमधें खगां - भिरांत नासतां मनीं!
धांवते घोडे तांकां फुलवन - वाग-शिंव गोरोज मारून
रिगतां नावेंत कांपत धरण! धुळी-कुपां उटोवन!
तांतल्यान काडटीत सेट सुरक्षित - हस्ती, गाडवां, घोडे!
चरतात विकाळ सरोप, आग्यो, दाकवन आपलें जिडें!
स्वर्गीय दृश्य तें - आंजांक फावो! नोवेक देखोंक मेळळें.
येंवचें सुखार - अनवार भीकर - मतींत नाच्या खेळळें!
कुटाम अदभूत मोनजातीचें! विचित्र आश्चाक पावलें!
पावतच तृप्ती - नोवेन आपलें कुटाम नावेंत व्हेलें.

## बुडूतुगोल

भरलें मोळाब काळयां कुपान - पृथ्वीर अंधकार चडलो!
दोनफारांच्या भारार काळोक! सुर्यो खंयसर लिपलो?
घडघड्याची गोरोज चडली - दोळयाक मारून झग्लाणे!
उचांबळी वारें व्हाळळें - रूक-झाडांक शेवटीलें!
मोळाब शिंजलें! पावसा-धारी मारल्यो सुर्गिये बरी!
पृथ्वी फुटली - तांतल्यान सरल्यो भीकर उदका झरी!
बुडलीं शेता! बुडलीं वनां! बुडलीं उबार घरां!
ऊंच पावलले रूक सैत बुडले! बुडलीं ऊंच शिखरां!
ल्हान-ल्हान व्हाळे जाल्यो नदी, नदी जाल्यो दरये!
आव्रां पाटल्यान आव्रां आयलीं! बुडली जीव-रास हरयेक!
धांवल्यो प्राणी जीवाक्लासाक! सोधून जागे उबार!
उबलीं सुकणीं भिजोन आंकडून - नासतां बसोंक आधार.
वरणूंक मनशांची अवस्था - येनांत उतरां तोंडांत!
धांवले भिजोन पिश्यांबरी - पडले खणयेंत! कोंडांत!
बसले पाक्यार! चडले रुकार! धांवले पर्वतांवयर!

तान भागोंवचें, जीण व्हाडंवचें - उदाक, शांत, निनळ
आज हाय! दिसना कितलें भीकर! जालां विकाळ वादळ!
खळानासतां पडलो शिरांधारीं चाळीस दीस-रात!
धरणीर चलची, वाऱ्यार उबची - गेली नास जावन जीव-रास!
नाव नोवेची - अज्यापांची! मारेकार ह्या वेळा
शाबितायेन उपेवन उरली - उदकावयल्या थळा.
उंचल्या पर्वतां प्रास उबार उदकाचेर ती व्हाळळी.
सोमयाच्या अदृश्य हातावयर खुशालकायेन खेळळी!
म्हयने पांच उतरोन गेले - पृथ्वी भरून आव्रांत
विशाल सोळवार मुरयो जमो - एकसूर नाव ही दरयांत!



देंवलें उदाक सव्या म्हयन्यांत - दोंगोर पर्वत आपलीं
मुखां सवकास उकलूंक लागलीं - उदकांत एदोळ लिपलीं
आराराटच्या दोंगरार उरली नोवेची नाव एकसूर!
देंवतां उदाक - बसली ताच्या मात्यार जसो मुकुट!
कानांक तोपच्या भीकर मौनांत देखता पृथ्वी संहार!
पर्वत-खडपां, दऱ्या-उदकां शिवाय कांय ना संसार!
बळवंत रुकार ना एक पाचवें! पृथ्वी सगळी वंजर!
शेतां-बयलांत पीक कित्याचें? भरल्यात अस्थी-पंजर!
तरयी नावेंत पुंजावन धरलां मुखल्या युगाचें बीं!
पुरष-स्त्री वर्गाचीं जोडीं - भरोंक जग आपापीं!
उगतीं जालीं दारां सगळीं - धांपोन आसलीं म्हयने
धांवली जीव-रास उर्बेन परत - नावेंतल्यान आव्र आयलें!

आव्रा-न्हणांत पापा-चिकोल धुंवोन गेलो पुरतो!
पवित्र धरणीर दिंबयेर पडलो नोवे - मदां खालतो!
सोमयच्या अगाध शक्तेचो झळक ताणे देखलो!
पातकी कुळयेक शिक्षा करली! सोमयाचो राग कितलो!
'नाका सोमया, दाकयनाका, असलो क्रोधा-उजो!
भोगसाणेच्या शांती-दरयांत सदांच लिपोंदी तो!
घडये हरयेक, पडचें गरजेक - उदाक इतलें कराळ
जायत तर एक सब्दान तुज्या -करलो काळ येत विकाळ!
पातकी मनशाक भोगूंक शिक्षा - चिंतून शरीर कांपत.
सोमया! पाल्वय क्रोधा उजो! भससोन संसार संपत!'
नोवेन मागलें सोमयालागीं - राकलो आयकोंक उतर
आयकालो सोमयाचो गंभीर ताळो कुपां भितर!
'नोवे! तुजी निष्ठा, शृद्धा - देखली, मानली म्हाका!
पृथवी वयल्या जीव-राशींचो धनी करतां तुका!
हरयेक प्राणी, जीव-दाळ, मुकणीं - उदकांतली सर्व सासळी
पावतेली सर्व गरजांक तुज्या - खाण-खुशालाय सगळी!
प्रळय केदींच धाडचोंना! व्हय, उदकान नाका शिक्षा!
पावसाक तुमी भियेनाकात - तो जिणयेची रक्षा!
उतर म्हजें - नीज भासवणी! जेदना पावसा-शेणो
थेंब्या-थेंबयान पृथ्वीर गळटां - सात रंगांचें धोणू
बरयतलें उतर म्हजें सोळबार पोंतान-पोंता!
त्या देकुन तूं करीनाका प्रळयाचीं चिंता.
वाडों चडों कुटाम तुजें! पृथ्वीर सगळयां भरों!
पातका-वोसो धुंवोन व्हचों - संसार नितळ उरों!



# आब्रांव प्रवादी

प्रळय संपलो, उदाम लिपलो - व्हाडलो संसार परत
नोवें कुळयेन केली वसती मातयेर फळाभरीत.
उबजालो प्रवादी आब्रांव - भोव जाणवीक मुखेली!
साराक ताणें घेतली पतीण - मावशे-भयण आसलेली
सोमी दिसलो एक दीस आब्रांवक म्हणोन 'तुजेर प्रतेक
आशीर्वाद हांव घालतां आब्रांव, आशा तुजी हरयेक
जांवदी सुफळ. पळे कितलीं असंख्य तारां मोळबार!
संतत तुजी ताच्ये प्रासयी व्हाडोन भरात संसार!
कळवळलो भोव आब्रांव तेदना 'सोमया उदार जालोय
सगळेंय दिलेंय वोमतानासर - पुण हात सोडवो केलोय!
पुताक एका रकोन रकोन वर्सां सरलीं बारा!
जिरोन गेली आशा म्हजी - झरोन गेलें सारा!
पुत्राविणे दुर्गती म्हण आयकाल'वें उतर.
कोणाक पुंजोंव दिर्वे सगळें? खानोलो कोण सुखार'?
खंत पतीची जाणा सारा - आपोवन सांगता ताका
'पती, कित्याक ही खर्गोणी? सोमूंक जायना म्हाका!
दोश तर दाकंवक व्हचों, हांतूं बोट जोकीजाय म्हजेर!
रुकार फळ उबजाना देकुन दोश कित्याक मातयेचेर'?
चाकर्न आमची तरनी हागार - दितां तुका काणीक!
किरलोंदी फळ तिच्ये कुशीं - जांवदी आमचें माणीक!'
घेतली पतीण हागार आब्रांवन अबळे, म्हयन्या भितर
एकवोट तांचो फळादीक जावन गर्भेस्त जाली हागार!
भरली तृप्तेन फुगली गर्वान विसरोन गेली आदलें
कोनशाक लोटलें अंतर आपलें चाकरा-धनिया मधलें!
बदल्ली ती कुडीन सहज - बदल्ली पुण सरजेन!
साराची ती करता सदां निंदा विन्हा गरजेन!
दुखली सारा, क्रोधीत जाली आटोवन निंदा सतीं.
रडोन गेली आब्रांवलागीं - आयकोन दुखलो पती
'दी तूं शिक्षा खुशेन तुज्या - म्हाका दवर पाटीं'

आयकोन मारान दिलीं थापडां हागारबायेक मोटीं!
दोडोन गेलीं, रडोन गेली, कपालाक हात मारून!
हागार पोळळी पतीक मांडून काळीज करून धारूण!
दिष्टीक पडलो देव-दूत तेदना हागार गर्भेस्तिणीक
'हागार, माराचे चाकरनी, कित्याक मोडून धनिनीक
आयल्याय हांगा आनी खंयसर पयण तुजें मुखार?'
'खंयसर व्हचों? फुडार नेणा' रडालागली हागार.
'व्हच तू पाटीं मारासर्शी - भोगशीतेली तुका.
जल्मतलो पूत एक - वोलाय 'इस्मेल' नांवान ताका.
व्हाडटलो तो शिवाबरी रानवट, बळवंत, स्वतंत्र!
दुस्मानांचो करीत पाडाव वापरून हरयेक कुतंत्र!'
हागार गेली पाटीं आनी मारा सर्व विसरली.
थंयसर प्रसूत जाली चेर्क्याक - आब्रांवक संतस जाली!
इस्मेलीच्यो हासो, उडक्यो पळेवन आब्रांव-मारा
विसरलीं सर्व दूक वरसांचें - परत्यान एकाचफारा!
दिसलो सोमी आब्रांवक निदेंत - पुत्राची भास दिली!
आब्रांव जालो चकीत! मारा कान पातयेना जाली!
उतर प्रायेर शेंबरांचे - कशें घडात नवाल?
आब्रांव-मारा चिंतूंक पडलीं - सोडयनासतां सवाल.
सिस्तेर उरलो ना जावन सिस्तेर थोड्याच दिसां भितर!
माराचो गर्भ सुफळ जालो - सत सोमयाचें उतर!
विजमीत जाली मारा सगळी - जालें आंग पुलकीत!
जीणभर केल्लें मागणें सोमयाक जालें आज फळादीक!
म्हयने धांवले दिसां वेगान - जेदना एक दीस माराक
सुंदर बाळ जलमालो चेर्को! नांव दवरलें इजाक!
वरसां कितलीं सेजलीं मारान - धलयनासतां पाळणें!
आज त्या घरांत दोन बाळकांचो भरता हासो-रडणें!
निरासभरीत काळोक भरोन खांवक येवच्या त्या घरांत
बाळकांनी ह्या भरला उजवाड शिकताना देव-भिरांत.
हागार-इस्मेल, मारा-इजाक - आवय-पुतां जोडी
देखता आब्रांव, हासता पळेवन, तांच्यो गडासोडी!

एक दीस जाली ल्हानशी लडाय - इजाक इस्मेल मधें!
इजाक धांवलो आवय पासळे - वरणून घडीन कडें!
सारा जाली रागान तांबडी - आब्रांवकडे गेली!
'धांवडाय हागार-इस्मेल दोगांयक! धोस तांची चड जाली'
आयकोन कळवळ्ळो आब्रांव बाप - पडलो व्हड बांदपासांत.
सोसया-सहाय मागली ताणे शांती हाडच्याक घरांत.
सोसयान परत उचारलीं तींच साराचीं क्रूर उतरां
'वाट कांय झळकानासतां आब्रांवन धाडली स्त्रीयेक पुत्राक'
दुकलो काळजांत वेदना सोसयान दोंवयलो भार ताचो
भासावन इस्मेल जातलो म्हण स्थापक व्हड पर्जेचो.

## आब्रांवची पारकोण

वरसां थोडीं पाशार जालीं - इजाक व्हाडोन आयलो.
'सकला सोडल्यार मुयो आनी उंचार ठेवल्यार कावळो
व्होरीत' म्हळया भियान जशें आब्रांव-सारा पासळेंत
वरसां बारा भरलीं ताका मुखाभरीत सावळेंत.
घडी सयती दोळयां आड तो गेलो जाल्यार, सारा
कळवळटाली सोधुन धांवोन कोनशान कोनशे घरांत!
आयलो एक दीस निर्मोण्याचो - आब्रांवक सोसी दिसलो
ताकीद ताची आयकोन पुरतो काळजाक आघात बसलो
सोसयान सांगलें 'आब्रांव! तुका पूत्र एक दिलो हांवें
आतां जाय बलिदान ताचें उज्यांत जळोवन सोरचें!
सोरया पर्वतार व्हर ताका - थंयसर भेटय बली!'
उतरां कसलीं कठोर भालीयो! काळीज तोपचे तसली!
वादाळाच्या वाटेर कशी वाल नी थर्थर कांपता
तशें कांपता शरीर ताचें खिणाक दोळे धांपता!
उतर प्रायेर सोसयान दिल्लो एकलोच एक बाळ आपलो
सारा आनी आपल्या जिणयेंत उजवाड एकच आसलो
पोटलून पोशेवन पोल्यार उबे थापयलेल्या बाळाक
दुधान न्होंवान वोगान वोरां व्हाडयलेल्या बाळाक
आतां पाटीं सागता सोसी - कशें ताका म्हणों?

काळजांत म्हज्या अंधकार तरयी कोणाचेर हांव शिणों?
हाडूं खंयचो हान लोंकडाचो करूंक निष्टूर कृत्यें?
हाडूं खंयचें फानरा-काळीज? चिंतूंक मनीं मेन हें!
मागाक कितें मांगों? कशें? हाय हाय म्हजे गती!
एदें व्हड हे निष्टूर फर्माण कशी घेन ती मनीं?
अगां तुका मोमया तुवें इतलीं वरसां दिल्ल्याक
बाळ हो मोगाळ - उतर प्रायेर जिणी नंदन केल्ल्याक

## मोरया पर्वतार

संतोमाचें सपाण जशें पाशार जाल्लीं वरसां!
आतां उटली भुंयकांप घडयेन कोमळोन गेलीं सपणां!
मागाक मांगचें धैर ना जालें - आब्रांव एकलोच गेलो!
मारयेक, इजाकाच्या पाटीर लांकडां भारो दिलो.
इजाक बावडो नेणां कितेंय - चिंता शेळये-बली
आमतली सदांच्ये परी - पुण खंय आमा शेळी?



दुवाव आपलो उचारलागलो बापयलागीं इजाक.
मांगलें आब्रांवन 'बाळा म्हज्या, देव दिनलो भोक्र्याक!'
तिसरे दिसा पावले दोगयी मोरया पर्वताचेर.
व्हावबन भोरो, चलोन पुरो, जाल्ल्या इजाकाचेर
एक निमाणी, दीष्ट करुणी, घालून आब्रांव रावलो.
'पुता, होच तो जागो मोमयान बलियेक नमयारलली.
तुर्तान आतां करयां कामां - वेळ उरला भाव थोडो.
मोडय भोरो - दाळयां मारी काळोक आयलो पडोन.'
'सगळेंय आसा तयार दादा - पुण ना बली दिवची

शेळी हांगा - ना खंयगरयी! खंय थावन मोधून हाडची?'
'चिंता करिनाका पुता, गोमयाक आमा शक्ती
बलियेक शेळी नलाग करची - वोर्त्या प्रामयी वोरनी!'
'दादा, मिरनेर कसलो तरयी लिपयताय म्हजेथावन!
भाग आज तुजी दिसना विचित्र - वळकानां तुका हांव'
आवगचे लोट आडायलेल्या नंयच्या बांधापरी
वोर्त्या हटान दांवून धरल्यो दोळयांत दुकां झरी
काट तुटलल्या आवगपरी पोल्यार नाच्या गळळयां!
इजाकाक घेवन पोटलून आवांव मुस्कारन मुस्कारन गळळां!
खंयच्या जिवेन मांगों बाळा? खंयचीं उतरां हाडूं?
तूंच नी शेळी नमयारलली! कसो हान उबारूं?
कित्याक येना भुंयकांप व्हडली? खंयसर ज्वालामुखी?
तुजेर नालवार मारच्ये पयलें म्हाकाच गिळूं पृथ्वी!'
'नाका दादा, चडीत उलोवन वेळ होगडांवचो नाका!
आरावन धरली धिरगाण ही जायना लांबंवक म्हाका!
बांध हे म्हजे हात-पाय-दोळे - देखांक हांव सकचोंना
उमळाय म्हजी गोमटी एकाच मारान! एकाच खिणा!
तुज्या भक्तींत, तुज्या शृद्धेंत, ल्हान एक वांटो म्हजो
आमा म्हळळींच चिंतनां म्हाका धग्रा-आसरो केदो!
भुजय दादा, मातेक म्हज्या, मनीन कुडीन अस्कत -
गोडीनाका लागोंक धखो काळजाक निच्या कुस्कुट.'
कांपर्या हातांनी आब्रांव उत्राक पाळो दिता.
मारूंक सुरी उबारना हात! अवळे, अज्याप जाना!
आकास फुटोन येना भांडवो! आयकत गंभीर नाळो!
'गवय आब्रांव सुरी तुजी! विश्वास तुजो कळळो.
सोमयान तुका धाडलो उतरोंक पार्कोणचो उजो.
शावीत आयलोय दाकवन अचल खडपा-विश्वास तुजो!
मरलोनांय नूं पाटीं जेदना सोमयान मागली वली
एकल्याच बाळाक - दोळयां फुलाक - खुशेन कल्लान दीलीय.
व्हाडों तुजी मंनन - भरों पृथ्वी मनशा कुळान.
जशीं मोळबार तारां आनी दरयांत रेंव कणां!'

# एसाव आनी जाकोब

चल्ली पावणे दोनशीं वरसां जिणये-नाव आबरांवची
जेदना धांपले दोळे - संपली काणी एक युगाची!
इजाक-इस्मेल मेळोन संगीं - मानयेक ताका पायलो.
एफ्रोनाच्या शेतांत ताच्या कुडीक विशेव दिलो.
उपरांत गेलो इस्मेल वेगळो - इजाक उरलो दायजाक
घेतली पतीण लाबानाच्या सुंदर भइण रेबेक्काक!
गर्भीं तिच्या किरलालीं दोन फळां एकच पावटीं -
एसाव आनी जाकोब - जोवळे जाले तिच्ये पाशीं!
गर्भीं तिच्या व्हाडटां तांचीं महिमां लागलीं गाजोंक!
सुरयो-चंदीर लाग्गीं मेळ्ळीं - किरणां उजवाड फांकोंवक!
सोमी म्हणटा 'आयक रेबेक्का, मिलन दोन राष्ट्रांचें
दिसना म्हाका गर्भांत तुज्या आनी पडटच भुंय ते
दोन कुळियांचे वीर जावन सरतीत ते आपापल्या वाटेर!
जातली प्रजा एकल्याची बळवंत सकतें-हातेर
सालघडो जायत खालतो धाक्टयाक आज्ञा ताची पाळून!'
विस्मित जालो इजाक तरयी रावलो मौन सांबाळून.
आयले दीस प्रसूतपणाचे - एसाव आयलो पयलो!
आंगभर लोंवेन कातीन गेंदो! दिसलो भोव्हो कसो!
थोड्याच वेळा अंतर अबळे! उदेलो बाळ दुसरो!
सोबीत, कोमल फुलापरी - सोधुन भुंयचो आसरो!
'जाकोब नांवान आपोवन ताका रेबेक्का घेत पासळी.
पयलो एसाव, दुसरो जाकोब - एकलो दुसऱ्याक सावळी!
रात-दिसाचो व्यत्यास तांचे सदलो दिसता वेगीं -
एकाच दिसा, एकाच गर्भीं, जाल्लीं तरयी भुरगीं!

## एसाव दायजाचें हक्क विकता

एसाव सरता राना कुशीन - रानवट प्राणींक सोधून
शिकारेंत तो जाता प्रवीण - दिता बापाक रांदून
शिकारेचें मास चितळाचें - इजाक भोगता संतोस.

ए़माबाक तो लागीं करता - मनीं जाता धादोस.
ए़माबाची कुशल विद्या - रानवट प्राणींक धरची -
दिसानदिसा, व्हाडोवन व्हेना - मेळटा ताका तृप्ती.
जाकोब गेलो शेतांत - गोळ्ळो पिकोवन भुंयचेर भांगार!
वोतांत सुकलो - पावसांत भिजलो - घामान भरलो आंगार!
रेबेकाच्या मोगाचो तो - आवय सर्शी बसोन
शेतांतल्यो त्यो काणयो विंचणार सांगत हासोन हासोन!
दोन्फारांचो वेळ तो जेदना बसोन रुका मुळा,
आवयन दिल्लें जेवाण रुचीक सोडंवच्या त्या वेळा.
आवचीत पावलो ए़साव थंयसर चलोन जाल्लो नित्राण!



लकोन लकोन बसलो सवकास - उलोवंक सैती ना त्राण!
वोता दावेंत सुकलले वोंट जिबेची शेळ लागवन
सांगता 'भावा, मोरोंक तेंकलां! जेवाण ना दोन दीस थावन!
रानांत एका चिनळान म्हाका आवचीत उलो दिलो.
तान-भूक विसरोन कांट्या-फांट्यांत पाटलाव ताचो केलो!
वोरां पाटल्यान धांवलीं वोरां - चिनळ गेलें चुकोन.
भुकें-वोडी, पुरासाणेन जिबेची शेळ सुकोन
वोता-दावेंत करपोन ल्हासोन, सयऱ्या-भयऱ्या मतीर
घरची वाट चमकोंक लागतां पोटा भुकें खातीर -
झळक तुजी पडली आनी जसो तणा आधार
बुडच्या मनशाक - तसो अवळे, पावलों तुज्या सासखार.
पर्मळीक तें जेवाण तुजें - पळेंवक म्हज्यान जायना!

त्या एक जेवणा मुखार आतां पृथ्वींत म्हाका कांय ना!'
भिक्षुकाच्या उगत्या हातीं मायाकाचें माणीक!
मरणा-क्षणां मेजून आमच्याक अमृताचीं काणींक!
जाकोबाच्या काळजांत उटलीं आनंदाचीं ल्हारां!
बांदले वाऱ्या-गोपुर - दिसलीं सपणांतली रावळेरां!
दांबून धरून हीं तुफान ल्हारां, उदवेग नासतां तोंडार
सांगता एसावक 'जेवाण भावा, तुजेंच एका शर्तीर!
सोडून दी म्हाका दायजाचें हक्क! तितलेंच म्हाका पुरो.'
एसाव खुशेन ओपलो जसो गळलो तांचो भोंरो!
त्या दीसथावन भा-भावां मधें सुख-शांती ना जाली!
रेबेका-जाकोबान मेळोन पाजली शिक्र्यां-भाली!

## इजाकाची आशा

धांवले म्हयन्यां पाटल्यान म्हयने! वरसां गेलीं सरोन!
इजाकाचो जिणये-कळसो आयलो पुरतो भरोन!
एसाव - बापायचो प्रीति-पात्र - सदां संगीं बसोन
कांतयताले रजाली ते - वेळ व्हेतालो उबोन!
अट्टांग रानांत, खडपा माट्यांत, भोंवान घंट्यान-घंटो
रानच केलें बिडार आपलें - रानाचोच एक वांटो
भीकर प्राणी, विचित्र सुकणीं, विकाळ नाग, कीड, जंतू -
काडलीं वरसां हांच्ये मधें - जीणच झरलीं तांतूं
एसाव असो वरणीताना रानाचो सर्व आकार
दिसलो रूप-रूप इजाकाच्या मना-दोळयां मुखार.
एक दीस सांजे बसोन आसतां आशेन भरलो इजाक.
अतरेगलो तो एसावाच्या शिकारेच्या मासाक.
आपयलागलो 'पुता एसाव, जिणये-सुरयो म्हजो
बुडोंक जाला तयार बाळा - वेळ उरला सोव थोडो.
तुज्या हातीं तुज्या भालियेन धरलेली रान प्राणी
तुज्या हातांत रांदून दिशी - धादोशी खायन आनी
देवाचें आशीर्वाद विशेस दितलों संतोसान
आतां घे तूं भाली हातीं - आपयता तुका रान'

आवचीत पावली रेबेक्का थंय स्थिती नेणामताना
बापा पुता मधलीं उतरां पडलीं तिच्या काना
तितळ तिळया मोळबार कशें झगलावन एकाचफारा
मारीत वाटेवयल्या रुकाक - तशें भोगलें तिका.
एसाव दिसलो दुस्मान तिका त्याच एक घडये विकाळ
वंचित जालो आशिर्वादांत जाकोब आपलो मोगाळ!

## रेबेक्काच्यो शिंत्र्यो

काडललें मेट थांबलें तक्षण - मतींत उटलें तुफान
नीट व वांकडी, वाट जांव कसलीय - आशीर्वाद जाकोबान
घेंवच्याक ही एक स्वर्णा संधी - एसाव येंवच्ये भितर!
आडोसाक ती रावली आतुर - जिकली उतरान उतर!
बापा-पुतान गुपीत मेळोन पाजल्या विकाळ सुरी
तोपूंक आपल्या मोगाळ जाकूक - पाजलया ताणीं बरी!
मोडचींना घडूंक हें अक्रम जीव आसासर आपलो
सक्तेन न्हंय तर युक्तेन पुणी उपाय काडचो पडलो
निचेव केलो जिकतलीं हांव खंडीत आपल्या हटांत
चल्ली थंयथावन पुता सर्शी काडून साजरा-मेटां
म्हळें तिणे 'पुता जाकोब, घातकी बापय तुजो!
आपल्याच रगतांत चिंता दोन थर - घराक लायता उजो!
कोनशाक तुका लोटून ताणे एसावक केला आपलो!
शिंत्र्याळो तो म्हा-व्हड अब्बा! जीवच म्हजो तापलो!'
उतरां आयकोन रेबेक्काचीं जाकोब भोव गुस्पडलो -
म्हळें ताणे 'आवय म्हजे सांग हो रहस्य कसलो?
उलयनाय तूं वोपारींनी - समजालोंना गजाल.
घात कसलो? कोणे केलो? कित्याक इतली कंगाल?'
'धाडला तुज्या बापायन रानाक तुर्तान आत्तां एसावक.
शिकारेचें मास खावन जातच आसायलो व्हड बेसांव!'
'एदशी ही गजाल! तुज्या मतींत व्हड करुन घेतल्याय!
साल्घडो तो - घेंवदी बेसांव! भेष्टीच नरयी तापल्याय!
ताका आवय, व्हावंचक जायना आशीर्वादा भोगे!

दायजाचें हक्क मेळळां म्हाका - निनलेंच मद्दयाक पुरो!'
'मोळबावेलीं कोरोड तारां तुजींच जांवचीं आमतां
घरांतल्या ल्हान दिव्यांत तृप्ती जाताय चिंतिनामतां!
एका त्या आशीर्वादा मुखार दायजां हक्कां हजार
मरी करूंक जायनांत देकून मनींनलो काड विचार.
नाका कमलीच भिरांत मनीं, बेमांव जोडच्याक तुवें.
उपाय हांवें चिंतला मनीं - बेमांव जोडच्याक तुवें.
एसाव गेला रानाक आतां - भांगरा संधी तुका!
व्हचोन बापालागीं घे तूं बेमांव खिणान एका!'

## दुबावी जाकोब

खिणान एका बेमांव! हा! हा!' जाकोबाचो हासो!
'विनोदी कांय न्हंय तूं संयबान - तर कसलो हो तमासो?
सुरयो-चंद्रा मधलें व्यत्यास आसा आमचे मधें -
धृडांग जीव तो, ताळो वेगळो, लोंवेन भरलां हरदें!
खिणान एका घेवयेत बेमांव म्हणटाय धन्नान पिश्या
खिणान एका बापय म्हजो करीत महजी दशा!
दोळयांक ताच्या दीष्ट ना तरयी वळकाना तो ताळो!
पोशेवन म्हाका पारकीत तरयी - भाजन म्हजो पोळो!'
'भिवकुरो तूं जाकोब! म्हज्या पोटांत उदेवन असो
म्हाकाच लजेक घालताय! इतलो नित्राणी तूं कसो!
चिंनाय तूं एक खिणाक तरयी - काडीनासतं उपाय
मांगतां तुका हें सर्व? कुस्कूट सैत येंवचोना अपाय!
ताळो तुजो बदली - जशें घडटा भरल्यार नाकांत
थंडाय आनी पोशेन जाल्यार भोगानाका आकांत.
उडास दवर - कुड्डो दोळयान - पोशेन आनी आयकत.
पळेंवक तो सकचोना देकून - दिसचो ना म्हजो हात
व्हच तूं भोकऱ्यां मधें - विंचून काड एक तरनो भोक्रो
रांदीन जशें शिकारेच्या चिनळा-मासा सारको!
त्याच त्या भोकऱ्याची कात लोंवाळ गुटलावन व्हेशी आंगार,
कुस्कूट दुबांवचोना बापय, पोशेत तरयी आंगार!

गळाय नाका जायजे मगळें एसाव येंवचे भितर.
बेसांव विशेस तुजेंच बाळा, पाळशी म्हजें उत्तर!
मेळटच बेसांव धोंडो तयार - वेळ ना हांगडांवक किंचित!
धांव तूं लाबानाच्या घरा - रांव तूं थंयसर निश्चिंत!

## जाकोब एसावाच्या वेशार

धांवलो जाकोब हाडलो भोक्रो - रांदलो खिणा भितर!
कातिन ताच्या गुटलावन आंग-पांग - चल्लो बापा मुखार!
'आयलों दादा, आदेश तुजो पाळून हांगा, अब्बे,
हाडलां रांदून मास चिनळाचें आनी वायना गोबळे!
जेव तूं धादोस आनी दी तूं भासयललें बेसांव!'
इजाक जालो कालुबुलो - 'खरेंचकाय तूं एसाव?
इतले वेगीं पावलोय कसो ताळो मैत बदल्ला!
कितें नवाल, कळना गजाल - लागीं येवन बस बाळा'
जाकोब मातसो कावजेलो पुण आरायलें धय्र मनीं.
गेलो बापा मुखार - दिली मासा पोटली हातीं.
'धांवोन धांवोन गेलों दादा - धांवोन धांवोन आयलों!
घामाचें मीट चरलें ताळ्यांर - ताळो मैत बदलालो!'
दुबावाचें किटाळ पुरतें पालवालें ना मतीं -
पुताक आपोवन बसयन इजाक - पोशेवन ताका हातीं
'दुबावाची कीड नी पुना - मवकास देस्वाट करी.
कोण कांय दुस्मान तुजो असली खेळटाकाय फितूरी
म्हळळो संशय भरोन पुना, जालों पुरतो विरार.
पोशेनच आंग - गेलो दुबाव धुम्रापरी वाऱ्यार!
तेच तें लोंवाळ हरदें आनी केस ते आंगा-पांगार!
पारकोण इतली केली देकून जायनाका तूं रागार.'
जेवलो मामा जेवाण इजाक - वायन थोडो पियेलो.
उठोन उबो जालो - पुताक 'दिवयेर पड' म्हणालो



## विशेश बेसांव

उबारले हात मोळबार - केलें प्रार्थन मोमया देवाक
'स्वामी येहोपिता! म्हज्या मोगाळ पुत एसावाक
दी धनिया आशीर्वाद तुजें - नंदन जांव म्हजो बाळ!
शेतांत नाच्या पावस दी भरपूर - पिकांदी पीक धागाळ!
पिको दाको शेतांत नाच्या - वायनान भरों तुंयांव!
फांकोंदी कीर्त कोंनशा-कोनशांत - चडीन किते मागोंव?
जानले देस गुलाम तुजे - तशेंच तुजे बांधव!
शिरापतल्यांक शिराप - वंदिनल्यक वंदन लाभोंव.'
बेसांव हक्कान एसावाचें युक्तेन घेतच जाकोब
चलता काडून मेटां वारार! भरून आशेचें कांप!
मेळयार माणीक चिंनीनातलें दुबळयाक किते भोगता -
तींच तीं भोगणां काळजांत नाच्या ल्हारां परीं चरतात!
वंदीत मनांत आवयक अदभूत - घेतच निचेंय बेसांव
पोळटा घोड्यार लाबानागेर - येंवच्या फुडें एसाव!

## एसावाचें येणें

दुस्ऱ्याच घडये अबले! एसाव, धांवोन धांवोन येता!
घामान भिजला! आतुर जाला! बापा मुखार रावता.
'बापा पडलें चिनळ भालयेक - एकाच खिणान निदलें!
रांदून तुज्या रुची पुरतें अबले, आतां हाडलें!
जेवतच दादा, बेसांव विशेश - दी तूं भासयलतें.
तुज्या, म्हज्या जिणयेंत तृप्ती - भागी जांवदी फालें!'
कळवळोन इजाक विचारी 'कित्याक पुना अशी
पारकोण म्हजी करतात तुमी? मन जावन येता पिशी!
एसाव व्हय तर परत कसो आयलोय पाटीं खिणान?
बेसांव तुका आत्तांच दिलें - न्हंय तर अशें म्हणान?'
दुखीन भरलो - थर्थर कांपलो - कळवळलो निर्भागी!
धुळधुळ रडलो आयकोन उतरां-भालियो तो अभागी!
'बापा कसलो अप्राध म्हजो? कित्याक कठोर शिक्षा?
दी तूं म्हाकाय बेसांव - अशी करनाका अलक्षा.'

'हा. निर्भागी पुता! तुज्याच भावान विक्रीत केलो!
फटोवन म्हाका कुड्याक गोंपे - बेमांव घेवन तो गेलो!'
'नांवच तुजें मागना वंचक! 'वंचकांचो गुरू!'
दायजाचें हक्क घेतलें फटोवन - बेमांव घेतलें चोरून!
आनी किनें उरलां म्हाका? जेवणा-वशी नरयी?
नां कांय दादा, ल्हान एक बेमांव? जाले दांनयी हात खाली?'
'उरलां पुता - जायतें उरलां! हाड-माम म्हजें उरलां!
आत्मो म्हजो वोडलो ताणें - आनी मोडलीं कर्ना!
बेमांव न्हंय तें - दोन धारेची तालवार जाली पुता!
आतां न्हंय तूं धनी - बदला गुलाम ताच्या हाता!
कसलें कठोर निरमोण पुता! कसली भीकर शिक्षा!
कांयच ना उरलें दिवच्याक तुका - सोमींच करूं रक्षा!'
'कसलो सोमी? खंयसर लिपला?' गोरोज मारता एसाव!
'आसा व्हय तर, कित्याक असो सोसता एदो गुन्यांव?
दायजाचें हक्क गिळ्ळें पुरतें! बेमांव विशेश चोरलें!
म्हाका भिकेक लोटून आपलें कुडें ताणें भरलें!
एकच रगताक जाल्ल्यांव आमी - एकच दीस जलमाल्ले!
एकल्यान मनाक वेंगलें - दुसऱ्यान तोपलें घातकी भालें!
ना, जाकोबा विसरचोंना - खंयसर तूं लिपल्यारी!
तालवार म्हजी दितली जाब - सोधुन खंय आसल्यारयी!

## जाकोब लाबनाच्या घरा

आवय-आदेश पाळून जाकोब धांवलो गांवाक हारान.
पावलो लाबनाच्या घरा थांबलो तांगेर धयरान!
लीया आनी रेकेल दोगी धुवो लाबनाच्यो -
दोगीय आसल्यो आंकवार आनी पोटल्यो सोबायेच्यो!
केल्यार लीयाक शिवल्याक सरी - रेकेल दिसलें गुलांब
गुलांबा-फुल-रेकेलाच्या मोगार पडलो जाकोब -
'लाबान मामा, सुंदर रेकेल जांवच्याक म्हजी पतीण
गोळान सात लांब वरसां तुज्या शेतांत एकाग्र मतीन!'
आयकोन हासता, खुशेन मानता, लाबान घात एक चिता -

सात वरसांची लांब एक अवदी - जाकोब घडियेन सेजना!
सुर्गारलल्या शय्याघरांत काळोकाच्ये रातीं -
धाडटा लावन, लीयाक - जाकोब चिंता दुसरेंच मतीं!
उजवाड जेदना पडलों पृथ्वीं आनी लाबनाच्या
घातकी कर्तुवांचेर! तेदना काळजाक जाकोबाच्या
आघात केदो भोगलो! ताचें जायना करूंक वर्णन!
बोबाटलो तो 'मामा लाबन, कित्याक असलें वंचन?
घाम व्हाळयलो कितलीं वरसां - जोडच्या खातीर रेकेल!
दिलेंय कोणाक? लीयाक! म्हजी इच्छा नासली व्हांकाल!'
'माल्घडी धुव आसतनां आंकवार - दुसरेक लग्नांन दिवची
रीत न्हंय आमची - तरयी तुका रेकेलाक आपणांवची
दिनां संधी - परत गोळशी सात वरसां ह्या शर्तीन.
लीया रेकेल दोगयी तुज्यो स्त्रीयो - सुखांत, दुखांत!'
लाबनाचें गोड उलवणे आयकोन जाकोब भुल्लो.
विसरलो तो कांडसाण, परत स-सात वरसां गोळळो!
चोव्दा वरसां दिसा-राती घामाचें सीट जिरोवन.
आपलें प्रीये रेकेल ताणे जोडलें पतीण करून!

## जाकोबाची खंत

लीया, रेकेल - बायलो दोगी - जाकोब एकलोच पती!
भुर्गीं तांकां जालीं तेरा - रुबेन, सिमांव, लेवी,
जुदा, इसाचर, जेबुलुन, जुजे, बेंजमी, दान,
नाफ्ताली, गाड, आशेर आनी धुव एक दिना नांवान.
आशेल्लें सर्व मेळळें ताका - बायलो, भुर्गीं-बाळां,
भुंय-भाट, भोक्रे, गोरवां, चाकरां! फकत मुळां-पाळां
उरलीं हेब्रोन नदी तटार - उडास गांवचो स्वादीष्ट!
कसो आसत बापय प्रायेस्त, मोगाळ आवय खंतीष्ट?
एसावाचो क्रोधा-उजो पाल्वालागाय व्हाडला?
अथ्वा विसरोन आदलें सगळें - येण्याक राकोन रावला?
उत्कट आशा भरोन काळजांत - लाबाना थंय व्हेता.
'मामा - आनी आतां - म्हज्या पतिणिंच्या पिता!

विश्वास आनी कष्टी कामान केली तुजी सेवा.
व्हाडले भोकरे - चडले दिवें, वेसांव घालें देवान!
आनां नरयी लाभय सुटका - व्हचोंक म्हजो मायगांव!
दिसाक गनीं सपणांत येतात - आवय बापय बांधव!
वीस वर्सांची, फुंक्या-चाकरी भोगून आसलो लाबान
भांगरा नांनी दिवची कांवी - खिणान एका उवांन
व्हेंची पळेवन सोशीत कसो? चल्लो जाव दीनासनां.
एक दीस जेदना शेतांत लाबान भोकऱ्यांची लोंव नासनां
घेना जाकोब बायले-भुर्ग्याक संगीं भोकरे. गोरवां
गुपीत धांवना गांवाक आपल्या - आशेन मेळोंक सर्वांक

## 'इस्रायेल' नांव

मनशा-रुपा सोसी ताका वाटेर प्रत्यक्ष जाता
झुजतात दोगीय सुष्टी युद्धांत - ना कोण एकलो जिकता!
सोसया समान झुजलो जाकोब संतुष्ट जालो सोसी!
मागलें सोसयान 'आयच्यान तुका वळकातली भुमी -
'इस्रायेली' नांवान - किल्याक, सोसया सुखार घटाय
टाकयलीय व्हड मापान - तशेंच मनशांकी तूं दाकय!
'इस्रायेल' नांव जालें प्रख्यात पृथ्वीर त्या दिसा थावन!
जाकोबाची संतत संदत जाली आपणावन तें नांव!
मनशा-रुपार सोसींच प्रत्यक्ष जाल्ल्या जाग्याक विशेस
'पेन्नियेल' - म्हणजे 'देवाचें तोंड' म्हण वोलायलें त्या दीस!

## जाकोब एसावाची भेट

चल्लो सुखार गांवाक आपल्या आतुर मनान तुर्तान
पयस दिगंतार सांड धुळीचें दिसलें - कोण जायत पत्यांन
झुजोंक आयला आपणालागीं? चिंतून जाकोब व्याकुल
लागीं पावतां दिसता ताका - पातयेना तो बिलकुल!
चार्शीं मनशां सुखार एसाव - काडटा संटां धव्रान!
दिसाता तोंड तरयी ताचें - रडटा जाकोब वळकोन!
पालवोंक ना काय एसावाचो क्रोधा-उजो एदोळ?

उटयत आपल्या शांती दरयांत तुफानभगीन वादळ!
निश्चिंत जाता मोमयाचेर तो - परिवारा मुखार
चलता धयरान आनी पावना एसावाच्या ममोर!
घडी निरमोण्याची तरयी दिमली लांब लांब वारं!



गवले दोगी खांब्यांबरी! तुफानाचीं ल्हारं
भरलीं दोनी काळजां भितर आनी तक्षण अबळे!
जाकोब धांवलो मुखार आनी वेंगून भावाक पामळे
दिलो उमो गालार ताच्या - मंतोमाचीं दुकां
व्हाळळीं दोळयांत भा-भावांच्या - हामनीं जालीं मुखां!
'भोगलें किनलें हळू मनीं' - जाकोब काडटा उदगार
'हामत्या तुज्या तोंडाक पळेवन - पर्वाना'नां मेल्यार!
भिरांतीन हांव जाल्लों कंगाल - गुन्यांव म्हजो आटवन
मोमया मुखार आयलां तशें काळिज गेलें बोंडोवन!
महान तुजें काळीज भावा! दरयामारकें विशाल!
दी तूं थोडो जागो तांतूं - जीण जांव म्हजी खुशाल!
हांवें फकत दायजाचें हक्क, बेमांव, तुजें लुटलें
पूण तूं भावा, जिकलोय म्हजेर - चोरलेंय काळीज मगळें!
पाटली जीण व उडाम आमचे - जांव ती उत्राल्ली गत!
करयां स्वागत जिणयेक नव्या - पेटव्यां मोगा-वात!





# जुजे - सपाण पारकी

कानान गांवांत घेतलो थारो - जाकोब संतोस पावलो.
मायगांव आपलो विसरलोना - सोगसर थंय रावलो.
भुर्गे व्हाडले, कुटाम चडलें - जुजेक भग्लीं सत्रा,
बापाचो तो मोव लागशिलो - कान दीवन ताचीं उतरां
आयकातालो जाकोब केदनांय - दिल्लो ताका दग्लो
विविध वर्णां सुतान विणलो - सोसरा-उजो भोगलो.
भावांक ताच्या - बापायचो हो पळेवन तीव्र पक्षपात!
राकले सोमणीकायेन गुपीत - करूंक जुजेक आघात
गोत्रांत जशें जळटें कोलीत लिपयत उजो आपलो!
तसो तांचो फारीकपणा-उजो काळजांत लासलो!
जेदना सपणां पडलीं तांकां - जुजे जालो तयार
सपणां-मल्लाब वर्णूंक आनी मीट लांवक तांच्या घायार!
अर्थाविहीन सपणां आनी जुजेचीं वयर नकलां!
वेळाक आपल्या राकोन रावले - लोटूंक ताका सकला!
'सपाण पारकी! सपाण पारकी!' तुकलायतले पाटल्यान!
फारिकपणा उज्यान लासले - दाकयनासतां सुखल्यान!
एक दीस जुजे आपयलागलो भावांक लागीं - सांगोन
'आयका म्हजें सपाण तुमी - पारकीया अर्थ चिंतून.
शेतांत एका सगळे आसी लुंवोन गोंवांचे पीक
बांधून पेंडयो उडयताल्यांव - घडलें तेदना विचित
पेंडी म्हजी रावली उबी पेंडयां मधें तुमच्यां!
बागवोन ताणीं केलें वंदन एकाच पेंडियेक म्हज्या!'
हासोन हासोन जुजे सपाण सांगतां - भावांक ताचो
जालो सोसोर - म्हणाले ते 'कळ्ळो सतलाब तुजो!
आतांच आमचो सुखलो राजा जालोय तसो चिंताय!
शीदा सांगोंक कावजेंचें तें सपणां सुखीं सांगताय!'
थोडयाच दिसां भितर परतें सपाण जुजेक पडलें -
पयलेंच्या प्रास विचित्र तरयी अर्थान कांय न्हंय वेगळें!
म्हणटा जुजे आपोवन लागीं भावांक, आवय-बापाक,

आयकात म्हजें मपाण नवें - अज्याप पावानाकान!
मुरयों-चंदीर, तारां इक्रा -आमलीं म्हज्ये भांवनीं!
बागोवो ताणीं केलो नमान' - पळेवन नोंडां ताचीं
क्रोधान जालीं काळी! जुजेक मांगालागलो जाकोब
'मपाणकाय हें, वा भितरल्या-भितर आशेंवचो जोप?
आशेताय तूं पुता - बापान, आवयन, भांवांनी येवन
बागवोन वंदन करूंक तुका? गवों तुका भियेवन?'
नोडांन तशें मांगलें तरयी भोगलें भितर विचित्र
उटलीं ल्हारां भिगंन आनी मनोमाचीं मिश्रिन

## जुजे भावांक भेट्टा

भोकऱ्यांक चरोंवक गेल्ल्या पुतांक आटोवन एका दिमा
आपोवन जुजेक मांगता जाकोब 'चत्रायेन आयक पुता!
शेकेम गांवांन चरोवन भोकऱ्यांक आमात सर्व भाव तुजे -
पाशार जाले दिवम थोडे - नेणां आमात कशे.
धाडटां देकून - व्हच तूं तुर्तान - बांधून दिनां भुनी.
मेळोन तांकां हाड तूं खबार - पाव थंय आयचेच रानीं!'
'बरें दादा' - चल्लो जुजे - उतरोन हेब्रोन नदी -
चलोंक लागलो शेकेम गांवाक - नेणामलो वाट तरयी -



परकी एकलो पारकून ताका विचारी 'खंय भोंवनाय?
कोणाक सोधताय'? खंयथावन आयलाय? नेंटो भुर्गो दिसताय!'
'सोधून म्हज्या भावांक तशें सोधून शेकेम गांवाक!
भोकऱ्यांक चरोवन आमात थंयसर - वाट खंयची थंय पावोंक?'
'शेकेम सोडुन दोतान गांवाक पावल्यात भोकऱ्याक चरोवन'

आयकोन जुजे चल्लो दोनान - काळजांत अत्रेग भरोन!
पयस थावन दिसलो भावांक - गोत्रांतलें केंड फुंकल्यार अवले!
उट्टान किटाळां त्या परीं दोळे नांचे परजळळे!
आयलो अवले! मपाण-पारकी सोधून आमकां हांगाय!
एकसूर जागो - भांगरा-संधी! परत्यान मेळचीना कांय!
चिड्डन गोमटी - उडोवयां वांयन आनी वापाक खबार
दीवयां - क्रूर सोनजातींनी केलो नाचो संहार!
मपणां आयकोन पुरो जालें - मेळों आमकां रजा!
पेल्या पृथ्वीं पडों मपणां - एकलोच भोगूं मझा!

## जुजेक विकतात

रुबेन एकलो मात्र कळवळळो - जुजेक तो मोगाचो
मुखल्यान विरोध दाकयनासतां वांचोवक जीव भावाचो
उपाव ताणे चिंतलो, म्हळें 'नाका रगात व्हाळचें
हांगाच आसा वांय एक - तांतूं उडोवन नाका सोडचें!
हात आमचो लायनासतां नाचेर - वळवळोन मोरतलो!'
मनींन चिंतलें 'वांचयन चोरयेक काडून नाका वांयतलो.'
पसंद जाली आलोचन ही - लागीं पावनच नाका
धरलो ताणीं - व्रोडलो दगलो - उडयलो वांयत मुक्या!
काळीज कडचें विर्मनीचें - जुजे करता रुदान -
आयकांक तांकानासतां चलता रुबेन थंयथावन निधान.
थोड्याच वेळान इस्मायेली सावकार ऊंटार बसोन
येंवचे दिसले - मांगता जुदा 'फातर एक - सुकणीं दोन!
पडली पोत्यांत! विकूं जाल्यार जुजेक वांयतलो काडून!
वापाक सांगचें मेलो वाटेर - वाग्रा तोंडाक सांपडोन!
कांतंवचेना कोशेड्द आमचें - प्राण नाचो उरयिल्ल्यान -
भाव तो आमचो - रगान एकच! वांचोन उरो पेल्यान!'
पावनच इस्मायेली सावकार - काडलो जुजेक ताणी
विकलो जसो विकतात भोकरो! घेवन वीस रुप्या ताणीं!
रडोन रडोन अर्ध्या मनीर जाल्ल्या जुजेक ऊंटार
बसोवन चल्ले सावकार तृप्तेन - हासो तांच्या वोंटार!

## जाकोबाचो विळाप

थोडयाच वेळान आयलो रुबेन - आकांक्षेन वांयत निळटा -
जुजे थंयमर नानलो पळेवन दुबावान कळवळटा.
फापसिले केस - पिंजलें वस्तूर - देदेस्प्राग जावन कटीण!
रडलो म्हणोन 'बाळ खंय गेलो? सोधूं खंयच्या वाटेन?
कितें सांगों बापाक? खंयचें तोंड हांव ताका दाकंव?'
विळाप ताचो आयकोन भा-भाव गुन्यांव आपलो लिपोवंक
म्हणाले ते इस्मायेलिगारांक ताका विकलो
पुण तें बापाक सांगचें कशें? देकून ताचो दगलो
भोकऱ्या-रगतांत बुडोवन व्हरचो - सांगचें वाटेर मेळ्ळो
चिंतलो तो क्रूर एक प्राणीन फापसून ताका गिळ्ळो!
धय्र ना जालें भांवां मुखार विरोध उलोवंक सुडाळ
नोयी जालो वांटेली ह्या गुटमोळेचो कगळ!
पावले घरा - रगताळ दगलो दिलो बापा हानीं
'बापा, मेळ्ळो वाटेर दगलो - दुबाव जालो मनीं
जावयेत तो कांय जुजेक तुवें शिवोन दिल्लो दगलो
चिंतून आमी जाल्यांव पिशे - मनांत दुबाव रिगलो -
मोळब मात्यार पडलें जशें जाकोब थंयच कोसाळ्ळो!
भुर्गो म्हजो - काळजा गोंडो - कोणे ताका गिळ्ळो?
गीळ तूं म्हाकाय पृथ्वे! आनी वांचों कोणा खातीर?
रगत न्हंय हें दगल्यार - उज्या जिबो म्हज्या कुडीर!'
विळाप, रडणें, जाकोबाचें चल्लें विरास नासतां.
शिरांधारीं पावसांबरी गळ्ळीं पोल्यार दुका!
जुजेबदला दगलो ताचो जालो बापाक सोगाळ
वेंगून हरद्याक हाडीत जिवे उडास आदले सोंवाळ.

## जुजे पुतिफाराच्या घरा

इस्मायेली सावकार पावले गांवाक एजिप्ताच्या
विकलो जुजेक अधिकारीक 'पुतिफार' नांवाच्या
कारबारी तो फाराव्याचो - रक्षक रावळेरचो!
शिपाय आसले आधीन ताच्या - अधिकार व्हड ताचो!

रिगनच जुजे घरांत ताच्या - नंदन जालें घरदार!
सोमया-ब्रेसांव पडलें थंयसर - भागी तो पुतिफार!
चडलीं यथेष्ट भोकरे गोरवां - व्हाडलीं शेता, फळां!
आपडललें भांगार जालें! खुशाल भुर्गी-बाळां!
भरोन गेल्ल्या भंडारांची चावी लेगून दिली!
समस्यावीण सारता जीवन - पुतिफार खुशाली!
आसलो लागींच नाडगी सरोप - आयलो आतां सुखार -
जुजे-जिणीं देरवाट केली - एकाच खिणा भितर!
तरनो, गोरो, धडंग कुडीन - राय कुवरबरी!
स्त्रीयेक वोडची सकत ताची अयस्कांता सरी!
पुतिफारा पतीण आसली सारून जिणी नीरस.
पदवेन भोव व्हड पती तरयी - घराथावन तो पयस -
फांत्यार गेलो कामाक तरयी - रातींच पाटीं पावला -
आतां जुजे आयल्या उपरांत बायलेक सैत विसरला!
सुंदर, गोरी, आंगान कोमल - कसो वालीक अस्कत
एका आधार वाऱ्या पावसांत - तशें तिची सकत
जावनासललो पती - पुण तो विसरललो तिका.
न्हंय तर देखतीना जुजेक खिणाक सैतयी एका!

## पुतिफाराची बायल नाडटा

अलक्षा पुतिफाराची आनी घरांत जुजे!
किटाळ एकच पावलें जळंवक तर्नाटपण हाय तिचें!
तशी तिची मना-स्थिती - हुळवळची सूय कायलीर!
जुजेक आपणाथंय वोडची एक दिसली वाट त्या बायलेक.
वाटेर ताच्या रावली उबी - जशें एवेक सर्पान
नाडलें सुंदर फळ घेवन हातीं - तशें आपल्या सुर्पान
वोड्‌क तिणे जुजेक लागीं - केलें हरयेक साधन.
उपरांत तशें कर्नेन दिसलें कासुकी आराधन!
आंगांगाची सोबाय आपली लजेविणे उगती
धरली! तश्यो आधारल्यो हेर स्त्रीये सहज युक्ती!
दिसान-दिसा, वोगान वोगं, चल्लें तिचें साधन.

आपयलागली भुलयलागली - केलें मैन फट रुदान!
'ये तूं जुजे शय्या-घरा, पती ना कांय घरांत.
एक्सुरी हांव - दी तूं मांगान! नाका तुका भिगंत'
आयकोन उनरां उगतीं, उडनीं - उटांन उबो जुज!
स्त्रीयेन चिंतललो परिणाम जालोना कांय तार्चर!

## जुजेची धिरासाण

म्हणटा तो धृड मनान, धय्रान, तरयी वळू ताळयान,
'धनयाची तूं पतीण नशीच धनीन म्हजी हक्कान
धनयान म्हाका दिलां सगळें - जेवाण, न्हेमाण, आसरो.
भंडाराची चावी लेगून! कोंण करीत हें दुसरें?
दिलां जावयेत स्वातंत्र्य अशें पारखूंक म्हजो विश्वास.
विक्रीन केदींच करिसोना - आसना परयांत उस्वास!
तूं एक कोमल कमळ - जाका दिलां मालीन ओपसून
जतन घेंवच्याक लावेंन म्हज्या! न्हंय उडंवच्याक फापसून!
किते जवाब दींव हांव धनियाक - विश्वास घात जर करीन?
सांगों ताका मांगानीण तूं - पूण न्हंय म्हजी धनीन'?
कोनशांत आसल्याक मनशांन हाडलो - करो विसरों उपकार?
ना, धनिनी भोगशी म्हाका केल्याक तुका इन्कार'
नमृतेचीं उनरां तरयी - काळजाक नोपचीं कटार!
आयकोन निराशेन बुडटा ती - काळीज करता फातोर!
स्त्रीये सहज मोवसाणं तिची - प्रेमीचीं भावना
उबोन व्हेनात धुव्रावरी - वोगी ती रावाना!
घायेल्ल्या वागिणी बरी मुस्कारन करता रुदान!
पिसुडटा केस, पिंजना आंगलें - भोकोरता नाक्षांनी!
एकलीच तरयी दिसनात जुजेक - हजारों राक्षिणी!
'मोवाळळी तर नारी आनी खुबाळळी तर मारी!'
सांगणी उडास येता जुजेक - जाता तो फरारी!
धांवतां, धांवतां, वोडटा ताचो शेलो ती क्रूर वागीण!
आतां धरणीर लोळटा रडोन कामुकी निर्भागीण

# बायलेचें कपटी नटन

अदृष्टाचो सुरयो बुडलो - सुजेक आतां अंधकार.
सोमस्या शिवाय ह्या संसारीं ना कोण ताका आधार.
दोनफार गेलो, सांज पासारली - आयलो वेळ रातीचो
दीस-भर सोळोन आयलो पती - पळेंवक विचित्र दृश्य तो!
सुंदर आपली पतीण पडल्ल्या पांग्रून भिकारी वेस!
सुजल्यान दोळे रडोन रडोन - अस्तव्यस्त जाल्यान केस!
पिरंगाता ती घडयेन घडी - दुखेस्त रोगी वरी!
आकांता तो समजानासतां - तेणा गजाल खरी!
वसता लागीं उकलून उस्क्यार - भोळायता, सुजयता.
ह्याच प्रमाणार नटन तिचें ऊंच उंचायेक पावता!
भुकेल्लो वाग गोरवा पिलाक दावली मारतासताना -
गोरवा-पील तें चुकोन धांवान - कितें तो भोगचोना?
फारीकपण तें एकच उतर सुंवला तिच्ये मतीं
आयल्या घडी कारयाक हाडची - पानयेतलो पती.
'सोगाळ पती' सुसकारली ती - 'आयलाय पळेंवक सोबाय?
घे एक सुरी - तोप ती हरद्याक! दुसरो कांय ना उपाय!
कसलें तोंड घेवन वांच्चें हांवें - गुलाम सैतयी धय्रान
करीन म्हजेर क्रूर अत्याचार - कशें दाकंव सैराण?'
'कोण तो गुलाम? खंयसर लिपला? कितें केलें तुका?
धरणी पोंदा लिपलो तरयी - बचावी ना ताका!'
गरजालो पुनिफार क्रोधान! मनांतच ती हासली!
'तुजो अधीक सोगाळ गुलाम!' ताळयांत निंदा दिसली!
'जाच्या हातांत दिल्याय चावी आनी म्हाकाय विकलेंय!
अमृत तुवें दिलेंय आनी वीक पाटीं घेतलेंय!'
'कोण तो? सुजे? देवा म्हज्या!' अवाक्क जावन पुनिफार
उदगार सोडटा, कळवळटा तो - भरता दुखीन अपार!

# सुजे बंदेंत

खाजुरा रूक चिंतललो तो काव्रो जालो कसो?
मनशा-काळीज आसललो तो राक्षेस जालो असो?

चिंतूंक तो गेलोना - कसो सुरयो उदेंतीचो
मांडून आपली सदां सवय - असतसतींत उदेवचो?
धरलो जुजेक शिपांयानी - बंदेंत ताका लोटलो.
उबार पेडार बसोन आसलो धरणी धुळींत पडलो.
'धुळींत पडलो' म्हणचें कशें? सोसयाच्यो परीक्षा
जावयेत त्यो एका पाटल्यान एक - कित्याक ताच रक्षा
करच्यांत केदींच चुकलो ना तो - बंदेंत तरयी पडलो.
फाराव्याच्या कैदींक राकचो हुद्दो ताका मेळळो.
रांजपी मुखेल फाराव्याचो आनी उंडो करपी
आयल्या तांचेर निष्टूर फाली बंदेंत सजा भोगची.
कैद्यांचो राकवली जुजे आसचेकडे पावले
रडोन रडोन काणी आपली जुजेक सांगालागले.
जुजेन तांकां भुजोवन सांगलें 'जायनाकात कांय निरास.
हांवींय आसां दुकोन हांगा - तरयी जिणयेची आस
मांडूंक ना ती एदोळ परयांन - भर्वसोच एक उरला.
तोच जावनासा जिणये-सुंकाण - तातूंच हो जीव भरला.'
आयकोन दोगयी संतुष्ट जाले - विसरोन आपलें अनवार.
आसले तेगयी सदां लागीं - बंदीच जालें घरदार!

## दोगां केदिंचीं सपणा

एक दीस फांत्यार रांदपी उटोन सात्यार हात धरून बसलो!
जुजेन अज्यापोन विचारलें - 'आकांन तरयी कसलो?'
'भावा जुजे, सपाण विचित्र पडलें म्हाका रातीं!
सतलाव ताचो चिंतून चिंतून पिसो जालां सनीं!
दाकां-वाल एक दिसली म्हाका - अवळे एका खिणान
फांटे तिका फुटले तीन! भरलीं फुलां, पाना!
दुसरे घडये दाकांचे घोस वालीर तिच्या सोवले!
तुटयले घोस चिर्डलो रोस - भरले राया गोवळे!
उकल्लो एक गोबळो आनी राया-हातीं दिलो
तेदनांच सपाण संपलें जुजे - निदेंतलो जाग जालों'
नशिबाचो वारेसदार तूं!' जुजेन हासोन म्हळें

'वालीचे तीन फांटे म्हणजे - तीन दीस आनी फुडें
सुटका तुका लाभतली - राय आपयतलो पाटीं!
तेदना मित्रा, उडास म्हजो दवर तुज्ये मतीं -
भुग्र्यापणार विकलें म्हाका - माय-बाप कोण ना जालीं!
आतां कसलोच अप्राध नासतां - बंदेंत मारतां फालीं!
फाराव्याक तूं लाग्गीं मित्रा, साधन तरयी किंचित
करशी म्हजे खातिर - उपकार विसरचोंना केदींच!'
रांदपी जालो खुशालभरीत - अर्थ समजोन सपणाचो
पुण त्याच वेळार दुकेस्न जालो कैदी - उंडो करचो!
नाकाय रातीं सपाण पडलें - सतलाब नेणा जालो -
रांदप्या सपण सुखांत्य जालें पळेवन तोय खुश जालो!

## सपाणांचो अर्थ ज्यारी जाता

सपाण आपलें सोडोवन मांगलें जुजेक लागीं आपोवन
'व्हावयनालों दालियो तीन - एका वयर एक दवरून
वयल्या दालियेंत आसली रुचीक पकवानां रायाचीं.
तीं खांवक लागलीं आशेन वोरत्या - सुकणीं आकासाचीं.
आतां सिस्नेर सोडय जुजे, सांग तूं बरी खबार.
म्हाकाय घेनोलोसू पाटीं फारावो राय उदार?'
सपणाचो अर्थ चिंतून जुजे - दुकलो सनीभितर
तरयी सताचो तो अर्चक - काळीज केलें फातोर!
'तीन दालयांचो सतलाब भावा - तीन दीस आनी रानी.
उपरांत तुका लाभनली घोर शिक्षा फागव्याची!
रुकार तुका उसकाळायनच - कापनले तुजें शिर!
आकाशीं सुकणीं करनलीं - आहार तुजें शरीर!'
आयकोन हासलो उंडो करपी - उनगांक पातयेलोना.
सरणाचो दूत आपयनाना - नाळो पारकीलोना!
सरले दीस तीन - जशें जुजेन सांगोन दिल्ल्ये प्रकार
सोडोयले फागव्यान नांकां हाडोवन आपणा सुखार.
रांदप्याक घेतलो परत पाटीं - उंडो करच्याक फाशी
दिली - अशी जाली ज्यारी जुजेची प्रोफेसी!

अद्भूत मकत व्हय नी तग्यी उघडलींनांत दागं
बंदेचीं - विसरलो रांदपी पावनच राया-घरा!
उपकाराक प्रत्युपकार करचे आमान तग्यी किनलें?
दुकांत जाय ईष्ट - मुकांन नाकान! गर्जेक मात्र जाय पडलें!

## जुजेचो भागी काळ

पाशार जालीं वग्मां दोन - गयाक मपाण पडलें.
देश-विदेशाथावन आपयलें मपाण-पाग्की व्हडले.
पुण गयाचें मपाण पारकूंक जेलें ते अममर्थ
पंडित, ज्ञानी, मायावीचें माधन जालें मर्व व्यर्थ!
झग्लाणे मारिल्ल्यावगी गंदपी उडोन पडलो!
जुजे उडास आयलो नाका - पश्चात्तापान ग्डलो!
उटाउटीं धांवोन गेलो तो फाराव्या लागीं
मांगलें नाका 'भोगशी धनिया, जेदना दोन वग्मां'टीं
घाल्लोय तुवें म्हाका बंदींन - तेदना मपाण म्हजें
पारकोन मांगललो एक गुलाम - कैदी नांवान जुजे
उनरान उतर पारकृन ताणे मांगलें जालें खरें.
आपय नाका गळाय नामनां - हांतूंच तुजें वरें!'
उदेलो काळ भागी परत - सुरयो मुदैवाचो!
जुजेक आपोवन आयलो मंदेश फागव्या गयाचो.
बंदी जीवनच एक मपाण - भयानक, निगशी!
आज ह्या वायट मपणाथावन मुटका मेळ्ळी जुजेक कशी!
पात्येलोना अदृष्ट आपलें - विधिचें निर्माणें!
फारावाच्या मपणान नाका आयच्यान कांय ना उणे!
जालो उबो गया मुखार - नमृतायेन मारक्या
मपाण मांगलें गयान आपलें परत एका पारक्याक.

## रायाचीं सपणां

'नायिल नदीच्या नडीर बमोन निमर्गाची सोवाय
चाक्नामताना एकाचफाग एका पाटल्यान एक गाय
आयली उटोन उदकांतुली - लेक केल्यो मात गायो

जिवान मामान फुगलल्यों मर्व - नडीर नण खांवक लागल्यो.
थोड्याच वेळान आयल्यों परत भागेट्यो मात गायो -
माम नामलल्यां हाडां-कातो! वयर पडलल्यो बोरियो!
देखनां देखतां नवाल घडलें - वरणृंक उतरां येनांत
नित्राण गायांनी गीळन मोडलें फुगलल्या मात गायांक!
घडीभर नीद पडली परत मपाण दुमरें विकाळ!
एकाच देंटार फुटल्यान कणशो मात - भोव गेमाळ, मामाळ!
खिणान परतें त्याच त्या देंटार फुटल्यो हेर मात कणशो
मुकोन जिरोन भागोन गेल्यो - पुण पयलेंच्यो गिळळयो!
मांगलीं दोनीय मपणां जुजे - आतां भर दी तकले!
पंडित, जाणारी मर्व आयले - पारकूंक कोण ना मकले.'
ध्यानांत घडियें बुडलो जुजे - आटयलागलो मपणां -
उपरांत गंभीर ताळयान मंगलें मुमतालें जें आपणाक -
'एजिप्ताचो, भविश्याचो, पडदो कुशीक वोडून
दाकयल्या एक झळक गया, मोमयान तुका विंचून.
दोनयी मपणांचो अर्थ एकच - फकत वेगळे मंकेत.
जागवणेक भर दिला मोमयान - दोनयी मपणां ममेत -
फुगलल्यों मात गायो आनी मात कणशो त्यो गेमाळ
जावन आमात मात वरमां जेदनां पिकतलें पीक धागळ.
हरयेक शेतांत पाचवे भरोन वागवात भांगर-कणशी!
लाभयतलो मोमी यथेष्ट - 'पुरो मोमया म्हणशी!
पूण एक काळ येतलो उपरांत - करपाल्लीं मात वरमां!
येंवचोना पावम - येवन मुकिधाड वळवळटलीं मनशां!
पूण तूं गया भागी कित्याक - मांगलां तुका मोमयान
मपणां मुखीं मुखार घडचें - देकून तुवें नमयारून
मनीम वरो, प्रतिभावंत - धाडुंक जाय एजिप्तांत.
पयलेंची मात वरमां ताणे भरीजाय पीक तुप्यांत -
जेदना दुष्काळाचीं वरमां येतेली पाटापाट
मोरचोना लोक एजिप्ताचो - मुकली तरयी भुंय-भाट!'

# जुजे, फाराव्याचो उज्वो हात

खुशेन वोरत्या वेंगलें जुजेक - फाराव्यान तें आयकोन!
म्हणालो 'तूं जुजे, खरो सपाण-पारकी! आयच्यान
तूं न्हंय गुलाम बंदींत लोळचो - विसर ते कोडू दीस!
आज थावन तूं उज्वो हात म्हजो - महल्याचो मनीस!
तूंच तो प्रतिभावंत व्यक्ती बरें वायट समजाल्लो!
महान आमच्या राज्याचें बरें वायट समजाल्लो!
दिता तुका स्वातंत्र्य पुरतें - खंय जाय थंय एजिप्तांत
भोंवोन तुवें हाडयेन कारयाक - येवजण तुजी बुदवंत!'
सुखलीं सात वरसां एजिप्तांत - शेतांत धागळ पिकलें!
जुजेन भरलीं तुपीं गोवान - यथेष्ट नाणे राकलें!
उपरांत आयलीं मारेकार तीं - कष्टांचीं सात वरसां.
पडली सुकिधाड एजिपतांत - सुकोन गेलीं शेतां!
तरयी एजिप्तागार सुखान रावले जुजे दयेन!
विसरले सुकिधाड पुरती तुप्यांच्या सहायेन!
इस्रायेलयी जालें बली - दुष्काळाच्या दाव्लेक.
जाकोब आनी कुटाम ताचें - धर्मीक ताच्या वावलें.
कसलें नवाल! संसार सगळो दुष्काळान कष्टाना!
तरयी एजिप्ताच्या गांवांत खाण भरेन वोसताना!
सगळेय धांवतात एजिप्ताथंय - खबार जावन आपापीं
संसार सगळो उदगार काडटा - 'थंयसर भरल्यांत तुपीं!'
आपयत जाकोब पुतांक लागीं 'आयकाल्यां'वें खबार -
एजिप्तांत भरलयांत खंय तुपीं - गोंवा-धानी अपार!
व्हचा पुता - धा जण तुमी - बेज्मी एकलो आसों.
जुजे गेलो, बेज्मी तरयी दोळयां सुखार दिसों'
बापा उतर पाळून धा भाव भायर सरले एजिप्ताक -
लांब वाट चलोन, पुरासणेन, पावले ते ग्रेस्न गांवाक!
जुजे सुखार जाले उबे - ओळकानासतां ताका -
दिंब्यांचेर सरपडले म्हणोन 'मायबा, आमकां राका!
कानान गांवांत पडला दुकोळ - वळवळटात सर्व भुकेन!

हांगा धाराळ मेळटा धानी - आयकोन आयल्यांव आशेन.'
जुजे खिणान बोळकोन तांकां - मनीं बिरमत पावलो.
नरयी तोंडार दाकयनामतां - पारकूंक तांकां रावला

## जुजेन केल्ली पारकोण

पातयेना हांव उनर तुमचें - खोटो आमयेन उद्देश!
दुकोळाक बली जावन किनलो दुर्बळ जाला हो देश -
सोधून काडचे गुप्तचारी - तुमी आमचे वैरी!
घालतां बंदेंत! मांगा तुर्तान - गजाल किनें खरी.'
कळवळळे ते गळवन दुकां - म्हणाले ते रडोन -
'किनले निरदय जाल्यांव आमी - जेदना जुजेक लोटून
घालो बांयत त्या माणकुल भुर्ग्याक - उपरांत ताका विकलो!
बापाक तो मोगाचो देकुन मोम्रा-उजो पेटलो,
निराप्राधी, नेंटो प्रायेन - आमच्याच रगताचो तो.
मेला'मनलो खंय नरयी पयस - निर्भागी एकमुरो.
रगात ताचें हाक-बोब मारता - न्हंय तर हें घडटेंना.
मोरा परयांत शाप हें कराळ - पाट आमची सोडचीना!'
रुबेन म्हणटा 'किनलें हांवें मांगलें - परात्तिलें!
वांचया जीव - भाव तो आमचो - पुण मन धारूण केलें!'
आयकाना हीं उतरं गुपीत - जुजे लागींच गवोन.
नेणांत ते जाणा तो, ती भास - उलयनात धग्र पावोन.
उदवेग उमाळयांच्या व्हाळयान - जुजे जाना धादोस.
'पश्चात्तापान भरल्यात भाव ते' - रडटा सोधून आडोस!

## जाकोबाचो विळाप

भाव ते पडटात पांयांक ताच्या - गळोवन दुकां-झरी!
मांगतात 'धनिया, मनच मांगनांव - नंय कांय गुप्तचारी.
बापय आमचो प्रायेस्त - ताका भुर्गी आमी बारा.
एकलो मेला आनी धाक्टो, बेंजमी रावला घरा.
पोटाक आमच्या नानलें पळेवन बापान हांगा धाडले.
एजिप्ताची विचित्र काणी आयकोन जाणांत सगळे.'

जुजे म्हणटा 'पानयेना हांव - मेळच्या शिवाय रुज्वात!
आमी एकलो हांगा बंदेन - उज्वाडटा परयात मत!
व्हचा घरा - हाडा बेज्मीक - पानयेवक तुमचें उतर.
आयलो नर तो पानयेन तुमकां - शिक्षा कटोण न्हंय तर!
गोंवा-धानी व्हरा आनां - पूण हें मनीं आमां -
बेज्मीक हाडून येना परयांत - सिमांव बंदेन कुमां!
उतरां कठोर आयकोन भा-भाव - जाले कंगाल. रडले!
चल्ले पाटीं कानान गोंवाक - सिमांवविणें दुबळे!
आयकोन गजाल जालो कंगाल - जाकोब प्रायेम्न, नित्राण!
'पुता, किते केलें तुमी? कशीं मामूं उतरां?
पयलो गेलो जुजे मांगाळ - रान मोनजातीन खेलो!
सिमांव गेलो हाडूंक धानी - बंदेन नांका घालो!
आतां म्हणटात 'व्हरतांव बेज्मीक - ना तर येना सिमांव'
बदलाक म्हाकाच लोटया बंदेन - गुन्यांवकार व्हडलो हांव!'
भालिये मारकीं उतरां तोपलीं - भाभाव जाले विरार.
पूण आनिकयी घडोंक आमलें - पुरतें जांवक दंदेम्प्रार!
गोंवा-थयल्यो उघडटाना - पळेवन जाले पिशे!
हरयेक थयलेन तोंडाकडे टवल्यान गोंवा पयशे!

## परत्यान एजिप्ताक

अनवारांचें आव्रच आयलें - बुडले नेटे जांट!
खंय मेट नेंकलें थंयसर तोपले - विध-अनवारां कांटे!
जुजेन केल्ली करनी दयाळ - दिसली नांका कराळ!
आपलेच मावळेक भियेले ने - भुनाबरी विकाळ!
मंपोन आयलो गोंव हाडलले - आतां उटली भिरांत.
बेज्मी-विणे व्हेचें कशें? बापय एकलोच घरांत!
जुजे गेल्या उपरांत बेज्मी - ताचो काळजा-गोंडो
मोडचोना दोळयांभायर व्हचोंक. खांवक नातल्यारयी उंडो!
बसले भा-भाव - चिंतूंक पडले - व्हरचें कशें भावाक
बापान उबी केल्ली वोणद तुटोवन एजिप्त गांवांक?
रुबेन आयलो मुखार हाडून वेगळीच एक आलोचन

आयकोन भा-भाव चकीत जाले - ओपलं व्हडा खुशेन
रुबन गेलो बापा मुखार - 'जाणांव व्याकुल तुजं.
पुण ना वाट कांय आमल्या शिवाय - बेज्मी आमचेमध!
म्हाकाय आमात मोगान व्हाडोवन व्हड केल्लं दोग भुर्गे.
तांकांच तुका समरपितां - तुजेंच पूत म्हण घे ते!
बेज्मीक सुरक्षित जावन पाटीं तुज्ये हातीं हांव दीन -
त्या परयांत तूं दवर कैदी - ताकां तुज्ये अधीन.
जरतर बेज्मी येना पाटीं - म्यांतंत्र तुका दिना -
कातर म्हज्या भुर्ग्यांक - तीच दूक म्हाकाय येंव सर्वतां!'
'पुता रुबेन, भुर्गे तुजे नातू न्हंयगी म्हाका?
मानली तुजी भक्ती, निष्टा - रजा दिनां तुका.
पूण एक चत्राय - पयशे दोडते आनी काणिकां हेर
दिया त्या व्हड अधिकारीक - दया दाकांव तुमचेर.
व्हचा भुंयचेर - बऱ्यांत वरें - तिच्या गर्भात जाल्लें -
हाडया विचून आजूर, बिया, म्होव आनी ससालें.
घेया बेज्मीक, राकोंदी तो आब्रांवचो देव तुका
बेज्मीक आनी सिमांवक परत - मेळोंक देखच्याक म्हाका.

## जुजेचीं भोगणा

देखना जुजे भावांक इक्रा - तरयी तो देखाना!
दोळे ताचे गेवनान फकत बेज्मीच्या वदनार!
उमाळयांची आव्रा भरल्यांत - काळजा भितर ताच्या,
जश्यो मुळियो लिपल्यात गुंडियेंत - प्रशांत सागोराच्या!
बावीस वरसां आदलीं दृश्यां - चरनात मती पडद्यार!
कमलीं मोंवाळ मधूर सपणां - देखना तो ह्या वेळार!
वेंगयता तो बेज्मीक मतीं - उमे गालार थापून.
गळयत दुकां संतोसाचीं - बाळपण उडास काडून.
सकलोना राबोंक चड वेळ - रडल्या शिवाय थंयसर.
धांवलो भितर सांधून आडोस - रावलो रडोन धुळधुळ!
सोगाळ पतीण आशेनात येवन पोशेवन ताका भुजयत.
जाणा ती हो घुट पतीचो - उदवेग ताचे थांबयत.

पुसले दोळे पुसले उदवेग - परत जालो गंभीर.
आयलो भावां हुजरीं आनी सवाल करीलागलो -
बापय तुमचो आसा जीवंत? भलायकेन तो कसो?'
वेजसीक दाकोवन विचारी तो 'धाक्टुलो भाव होच तो?
दिंबयेर पडोन म्हणटात - दाकोवन खालतो स्वभाव खरो
'बापा आमचो यथेष्ट प्रायवंत - भलायकेन तो बरो -
होच तो निमाणो भाव आमचो - जरतर अपाय किंचित
घडात ताका बापाक आमच्या - मरण वेगीं निश्चित!
ताकीद तुजी मांगली बापाक - वेजसीक हाडल्या शिवाय
मेळचीना कांय धानी - देकून बापय जावन असहाय.
धाडटा ताका आमचे संगीं - म्हणोन उतरां करता.
'जुजे जालो ग्राम शिवाचो - आतां वेजसीक सोगाळ
वोरतात तुमी - जरतर किंतेंय घडलें ताका वाटेर
दवरनाकात कांयींच आशा म्हज्या ह्या जिवाचेर!'
उतरां-भाले तोपतात पारकून सोसणीकायें सगे!
भावांचो तो मोग बापाचेर दिसता ताका खरो.

## जुजे आपली वळक दाकयता

कसलें नवाल! अशेंच एक दीस आपणेंय दिंबयेर पडोन
जिवाचें दान मागललें ह्याच भावांलागीं रडोन!
बापा मधलो अध्वा भा-भावांक एक करचो
मोगाचो बांध तुटललो तो - आतां सजभून दिसलो!
न्हंय ते आदलें वागूट क्रूरी, सैतान मनशा रुपार.
फातरा-काळीज कडोन भरल्यात मनशापणान अपार!
सपणेलो तो परत बाळपण - असूत वेळ हो विंचून.
बसलो आवय उसक्यार सोवाळ - बापाचे गाल किसचून!
शिंवयललो सोगाळ बापान - रंगाळ दगलो आपलो.
दव्लतेन तो न्हेसोन व्हेतां - संसार रंगाळ दिसलो!
सपणां आपणे पारकून दिलीं - गयाचीं, हेरांची.
पूण एक आपलें सपाण उरलें - अधुरें, निराशी!
वरसां बावीस उतरोन गेलीं - बापा उडास तरयी

उरलो खंचोन काळजांत मदां - आयली अमृत घडी!
धांवलो रिगलो भावां-मधें तुफान वाऱ्यावरी!
वेंगोवन तांकां दांवून उमे - रडलो भुर्ग्यावरी!
'हांवच तुमचो निर्भागी भाव! सपाण-पारकी तुजे!
निराशी, गूंड उदवेगांचे दीस आज संपले म्हजे!
चातक पक्षी राकता पावसाक - तशें अंत्रेग भरोन
राकलो ह्या मिलनाक मधूर - वरसां गेलीं सरोन!
आसा म्हजो बापा जीवंत? भलायकेन तो कसो?
सांगा तुर्तान - ना सोस्णीक हांव! न्हंय तर जायन हांव पिसो!'
आब्रांव काळार तोन स्त्री एकलीच जाल्ली सिटा खांबो!
आतां जाले इक्रा आनी सोन्यो जाल्यो जिबो!
आकासार एक अद्भूत नेकेत्र दिसल्यार एकाचफार
स्थंभीत कशें जातीत मनीस - विसरोन परिसर!
भिरांत, संतोस, विज्मीत - भोगणां सगळीं एकटांय मेळोन
उटलीं तांच्या काळजांत ल्हारां - तोंडार उदवेग खेळोन!
सपाण हो व नीज अनुभव? जाले कालुबुले!
'तूं, तूं, जुजे? विकललो भाव?' भियान ते रागेले!
'भियेनाकात - आशेना वायट - सरलले दीस सरले.
येयान लागीं - वेंगोंक म्हाका - आज हें काळीज भरलें!'
आयकोन उतरां स्वागताचीं - बरफ कडल्यार कशें
व्हाळटा व्हाळो - तुटोवन सेरे - भोगलें तांकां तशें!
'दयेचो म्हा-सागोर भावा - काळीज तुजें! तांतूं
बुडय आमकां - दवर काकुळत - नवें जीवीत दी तूं!
बापय आमचो प्रायेन पिकला - तरयी ना विसरला -
दरलो तुजो हरद्याक दांबून - उस्वास सांबाळन धरला'
उतरां न्हंय तीं! उदवेगाच्यो भालियो! जुजेक तोपल्यो.
वेंगून भावांक रडलो अधीक - कोडू उडास लिपलो.
भरली खबार एजिप्त गांवांत - संतोसलो फारावो.
हाडलो जकोबाक एजिप्ताक - दीवन ताका मान फावो.

# जाकोबाची कुळी

सास्वाचें बीं आंपलें जुजेन - कुळी जाकोबाची.
विस्तारलो रूक सोळबार विशाल - महिमा देवाचीं!
इस्रायेली मनीस व्हाडले भरले एजिप्ता गांव.
जशें सोळबार असंख्य तारां - दर्या वेळेची रेंव!
सासरा-उज्यान एजिप्तागार जळळं चिनून वाटो!
अडचूंक लागले परकी परजेक - उद्देश तांचो खोटो!
'अशीच व्हाडोन वचात मुखार - कुळी जाकोबाची -
चलयतले राज आमचे वयर - येतली दुर्गती!
झाड तें रूक जावन व्हाडच्या फुडें - किसचून सांडल्यार आंक्री -
इस्रेलगार कोण आसचोना थंय - उकलूंक आपली नकली!
घेवयां उपाव वेळार आतां - उपरांत अपाय चुकतीन!
व्हाडच्या रुकाक कुडार मारची - गुपतीं सोदयां युक्ती!'
चिंतूंक लागलो आटोवन युक्ती - रकांक आपलो फुडार.
धरूंक सुटींत धारेभरीत यशस्वेची कुडार!
सुपुत्र विंचले - धडंग तरने - इस्रायेली मधले
घर-घर रिगले, वडून हाडले - भलायकेवंत दादले!
दिलीं तांकां कष्टी कामां - पाटी-कणा सोडचीं!
घामान आनी रगतान तांच्या - बांदपां व्हडलीं बांदचीं!
इस्रेलाचो घुट शक्तेचो - तांचो जिवा-सतू!
सोडून सुरतो, विनाश करचो - जालो एकच हेतू!
रगता-घामा बुन्यादीचेर - उटलीं मजभूत बांदपां!
एजिप्ताची प्राचीन संस्कृत उचारचीं अद्भुता!
बागवलीना इस्रेल कुळी - आघात चडलो तरयी.
मारले तितली व्हाडोन गेली - जशी रुकाक आंक्री!
आव्राबरी चडोन आयली - इस्रायेली संतत!
बुडोन वचात एजिप्त सगळें - फारावो राय चिंतीत!
जरतर स्थिती मुखार आशीच आडकळ नासतां गेली.
शियासणाक आदेस मागची शीघ्र येतली फाली!
आसा एकच उपाय खरो - निसाणी ती युक्ती!
जर ती ज्यारी केली - एजिप्त जोडीन खंडित मुक्ती!

इस्रेलगारांक जांवच्या पुतांक - भुंय ते पडचे पयलें
'जलमोंकच नांत' म्हळळेबरी नाम करिजाय पडलें!
पुत्रांविणे संतत तांची - झाड तें पाळ कानरलें.
दिसत तरयी सजभृत भायल्यान - पोकळें सर्व भितरलें!
उर्बेन उटलो राय फारावो - तुर्तान धाडलें आपोंवक.
इस्रेलाच्या बाळंत करच्या - वोयजिणींच्या जम्याक!
'गर्जिसाचेर आयलां अनवार - गंभीर तांची हाल-चाल!
आयलां मागोन सजन तुमची - जिणये-मरणा सवाल!
गर्जिसांत सर्व भरोन गेल्या - इस्रेल पिळगी सगळी!
आमचीना कांय सेजल्यार इतली - नायिल नदींत सैन सासळी!
सबार चिंतून मतींत आटोवन - केला निर्धार आमी
आज्ञा-समान आडांवक लोट हो - येजायसुखार तुमी!
गर्भेस्तिणीलागीं बसात - रीग दिनाकात हेरांक!
चली जर भुंय पडली - तेंवा उल्लास करया घरांत!
पूण जर आयलो चेर्को जलमोन - दवरा थंय दोळो!
मांगया आवयक - 'पोटांत मेलो' चिर्डून नचो गळो!
हो घुट उरें आमचेच मधें - दांग्रा फेरायनाकात!
देश-भक्तीच्यो स्त्रीयो तुमी - देशाचो मान राकात!'
वोयजिणींचेर पडलो दबाव! क्रूर अत्याचार चलोंवक!
आपल्याच सुरपांत रचले देवान - रचन लगाड काडूंक!
देवाच्ये भिरांतीन व्हाडल्यो त्यो वीर स्त्रीयो सगळयो,
फारावाच्या दोळयांक मानी घालूंक सुखार सरल्यो!
रायाचो निर्धार भिरंकूळ - पोंताक पावयलोना!
नेंटच्या रगतांत वोयजिणींनी हात आपलो धुलोना!
जेदना कळळी रजाल खरी - फारावो जावन उजो -
आपोंवक धाडलें वोयजिणींक त्या - विचार करी गर्जोन!
सर्पडटात तीं पायांक ताच्या - म्हणटात हाक-बोब मारून
'भोगशी राया! दाकय दया' - किते आमीं करूं?
इस्रायेली स्त्रीयो धनिया! रक्षिण्यो त्यो जिवान!
प्रसव वेदन संपना खिणान - रडटा बाळ भुंय पडोन!
उपरांत असहायक आमी तुजी आज्ञा पाळूंक.
धरना आवय बाळाक वेंगून - दीना ताका आपडूंक!'

# मोयजे

बाळ एक असो जलमोन आयलो - इस्रेल परजे मधें.
चरित्रा तो बदलूंक पावलो - नांव ते जोडूंक केदें!
पयस मुरांगांत उज्वाडा-कीर्ण - झळकात तशें नाचो
जल्म जांवक पावलो - इस्रेलीचो मुटकेचो हिशारो!



मोसया वेसांव आसलें तरयी - विंचणार इस्रेल प्रजा
एजिप्ताच्या क्रूरी दावलेंत भोगना निष्टूर सजा!
दिसानदिसा, घडयेन घडी, अत्याचार क्रूर चलचो
आपल्याच सोगाळ भाव-बंदवांचेर - पळेंवक सकलोना तो!
चल्लो पयस - एकांतांत भोवलो - पिश्यांवरी रडांन!
सरपडलो तो पदवेदाराक - सहाय नाची मागोन!

## जळटें बोलें

पिसांतुर जावन दोंग्रार असो भोंवतासताना एक दीस
पयस एक बोल्यांत उसळटान वयर - उज्या-जिबो धा-वीस!
उज्या जिबो नाचतात भोंवतीं - जळठं ना तें बोलें!
विज्मीत जालो! अवाक्क जालो! भरलां पाचव्यान बोलें!
पातयेलोना दोळयांक आपल्या - दृश्यें विचित्र देखोन!
लागीं आयलो पारकूंक दिसोण - खरेंगी व सपाण?
'मोयजे! मोयजे! निकळाय व्हाणो! जागो आसा पवित्र!
आतां मांगचें आयक तन-मनान - दिसत तरयी विचित्र!'

जळच्या बोल्यांत गंभीर आवाज जगो धरणी पोंदल्यान!
मोयजे थरथर कांपता भियान - मन्द येनांत तोंडांतल्यान!
'गुलांपणा जाळांत म्हजी विंचणार पर्जा पडल्या.
कष्टोन दगदोन मुटकेची वाट राकोन राकोन थकल्या.
मोडवोण तांची करच्याक मोयजे राकनालों हांव केदना!
'भामयलो गांव' दिवच्याक तांकां - मोंव, दूध आनी मान्ना!
नामतां योग्य फुडारी इस्रेल - काळोकांत माग्पनात!
वाट दाकंवचे नामतां वावडे अंतग्करणीं ग्डटात!



व्हच तूं मुखार फाराव्याच्या - भियेनामतां किंचित!
मांग तूं 'जाल्यान इस्रायेल लोक स्वातंत्र्याथावन वंचित'
मांनतलो म्हण उतगंक तुज्या कगीनाका विचार.
जायत तो धारूण, नामतां दया - विघ्नां हाडून हजार!
गव तूं अचल! चल तूं धय्रान - पळेनामतां पाटीं!
आमां पाटल्यान मदां तुज्या - पदवेक घे वेत्काटी!'
जळचे बोलें! मोमया ताळो! मोयजे जालो विगार.
'मोमयान म्हाका पाग्कून दिलां - व्हड हें वोजें खांदार!
मोमया, खालतीमान हांव घालतां - मानतां तुज्या मक्तेक
पूण एक मादो मनीस - म्हाका आयकात कोण व पातयेत'?
उतगं म्हाका येनांत मुडाळ - चालीन हांव भोव निधान.
रायाचें मन वदलूंक मोमया - वापरूं कसलें विधान!'?'
काळ्जेंच्या उतगंक मोमी जवाव दिना अशी:
'शिक्षा म्हजी भोगतलो जो पाळना म्हजी खुशी!
जाणांय मोयजे? आमां कितलेंय मादे तुजें उतर,

नांतृं लिपोन आसन सगळी सर्व्नी म्हजी अपार!
आत्म-विश्वासान भरोन तृं दाकयनलोय शाथी.
जिवंक तुज्या धार येनली - आत्राच्या लोटाची!
भियेनाका फारगव्याक त्या - राव तृं धव्रान उब्रों!
कष्टांच्या त्या पर्जेक म्हज्या - फुडारी तृं खरो!'

## मोयजे राया मुखार

सोमया-प्रेरण व्हरता फुडें - मोयजेक राया मुखार!
लजेना नो, भियेना नो - सांगता धव्रान अपार!
'सोसलें अपार कष्ट-नष्ट म्हज्या पर्जेन तुज्ये हांतीं.
बांदलींय बांदपां घामान तांच्या - दगदृन बरसा इतलीं!
आतां तांचो जावन फुडारी - मागोंक आयलों स्वातंत्र!
पाळ तृं तांचें मागणें तुर्तान - खेळनासतां कांय कुतंत्र!
इस्रेलाच्या सोमयान अशें सांगलां दिवच्याक संदेश.
पाळीनांय तर बऱ्या मनान - जानलें वायट विशेश!'
पाळीनांय तर बऱ्या मनान - जानलें वायट विशेश!'
'सार्वभौम हांव एजिप्ताचो!' हासलो विकट हासो!
परकी युवक आयलो खंयथावन? तेणारी कांय पिसो?
कोण तो तुमचो सोमी व्हडलो? सर्व पदवेदार म्हणचो?
वळकाना हांव पळेवन ताका! सयरे न्हंय कांय म्हजो!
हाड तृं ताका, मुखार म्हज्या - फुडारी व्हय जाल्यार
रावना कित्याक पाटीं लिपोन? लोटृन तुका मुखार?
इस्रेल कुळी पर्जा म्हजी! हांव धनी - ते गुलाम!
पोटाकयी दीन - शिक्षायी दीन - जाय तशें हांव चलान!
मुकिधाड येवन दुकोळ पडोन - आजे-पोणजे तुजे
गांव सोडृन आपले धांवोन आयले मुखाक एजिप्ताच्ये!
निंदेभरीत उतरां आयकोन मोयजे गेलो पाटीं.
इस्रेल लोकाक मेळळी शिक्षा - पयलेंच्या प्रास खोटी!
सोमयान आतां धाडली खर्गी - एका पाटल्यान एक - धा!
तोव खर्गीक राय बदलालोना! धाव्याक खालतो जाना!
पयलें भुगें एजिप्ताचें - रायाथावन भिकारी

खर्गांत धा-व्या जाना बली - मारेकार शिकारी!
दून मरणाचो, उतरोन गेलो - मारेकार त्या रातीं!
मगळयान जाले व्हाळ रगताचे - हाक-बोब घरान घरीं!
फाराव्याचो पूत मोगाचो - आवयक काळजा-गोंडो!
जालो त्या निर्मोण्या रातीं - मरणा-दुनाक उंडो!
जाल्यार आधान झरलाण्याचो - धरणीर उरान किते?
नशें तुटोन पडलें खिणान - मना-बळ रायाचें!
तुर्तान आपोवंक धाडटा मोयजेक - गर्वी राय टंदेस्पोर!
निराम, मल्वण, झळकत नोंडार - रायपण जालां किस्पोर!
'आयच्या दिसाक जिकलोय मोयजे! एकाच आयच्या दिसाक!
चल ह्याच खिणा दोळयामुखलो! घेवन त्या दळदीर पिळगेक!'
अशें मामया कुमकेन मोयजे - जय्त व्हरना रायाचेर -
वेल्काटी एक रायाळ दांडो! शाल एक त्या भुजांचेर -
मरूस्थळ तें - राज रेवचें! पुरतें आज बदल्लां -
मनशा-जमे दिसनात कशें - दरयांत वादळ ल्हारां!



उज्या-खांबो रावना मुखल्यान - मार्गदर्शक रातीचो!
दिसाक जाना मोडांची राम - राकणो तो दिसाचो!
मयलान मयलां रेंव दरयो - दिसना क्रूर, भिरांकुळ!
मुटके-वाऱ्याचो स्वाद चाकोंक - मोल हाय किनलें निष्टुर!
दिसना मुखार नांवडो दरयो - उचांवळी ल्हारां.
दिसना व्हड एक वोणांद जशी - वाटेक धांपल्यांत दारां.
निराशी इस्रायेल पर्जा - मोयजेक करून चुकीदार -
शिरापतान, वोवाट्टान आनी धांवनात मांधून आधार.

# रायाची मत घुंवली!

गुलाम पर्जेन केल्ली चाकरी - फुक्याक चारशीं वर्सां!
चुकली आतां आनी सदां! रायाची मत घुंवली!
जमीवर शिपाय घेवन मारेटां - पाट धरली फाराव्यान!
अनुपकारी गुलाम पर्जेक - हाडूंक पाटीं परत्यान!
निर्मन इस्रेल लोका-रतीं! नांवडो दर्यो मुखल्यान
पाटीं घुंवोन पळेन तर्यां - सैना-दर्यां पाटल्यान!
सामयाचेर व्हड विश्वास मोयजेक - उतर ताचें पाळून
उबारना वेल्कारी दर्याक! दर्यो व्हेला चिरून!
दोळयांक पातयेना लोक इस्रेल! दर्यो गेला फासळोन!
मारेग सुकों - जालो उबो! शार्वान व्हचोंक उतरोन!
दीष्ट नी अद्धूत आंजांक फावो - हजारांनी मनशां
भुर्गीं-बाळां, भांक्र-गोरवां - दर्या मदल्यान चलतां
पळेनासतां पाटी फुडें - फाराव्याचे शिपाय
उडले दर्या मदल्या वाटेर - हासले 'सोंपो उपाय!'
उबारलो हात मोयजेन परतें - हानीं तीच वेल्कारी!
विगड जाल्लें उदाक सगळें - आयलें परत्यान पाटीं!
दर्यो चिरलें अद्धूत पयलें - शिपाय पळोवक पावलें.
पूण हो, दुसरें अद्धूत नाकां - व्हेलें सरणा-दावलें!
चाळीस वर्सांचो घोर तपस - सोधून भासयलो गांव
झरवन पांयांच्यो मात-कानी - शेकीं सुफळ सियांव!



# दावीद आनी गोलियात

सोमी जेजू पृथ्वीर येंवच्या हजार वरसां पुर्वी
नानली शांती मनशां मधें - भीकर झुजां वर्वी.
फिलिस्तिना सैनीक उटलो इस्रायेल राष्ट्राचेर.
आयले जालें शूर-वीर युवक - जीव दींवक ममराचेर.
मधें विशाल फालकें - भोंवतीं उटल्यांत ऊंच पर्वतां
बसलीं वैरी-सैनां हांचेर - तोंड दीवन पावसा-वोतां!
अपार दरयावरी दिसले फिलिस्तिना सैनीक!
रास्जांवक लागले झुजा निर्घोश! सदां आपल्या वैरीक.
उटलो गोलयात तांचे मधें - राक्षस जस्त अमानुश!
सकत ताची आटोवन कांपलो धैरधीक वीर पुरुश!
स हातीं एक रेणान दिसत तळटो, जस्तो उबार!
जलमालो गाथ गांवांत नर हो - क्रूर राक्षसा रुपार!
लोवेभरीत मावळया रंगान - शरीर ताचें मजभूत!
हरदे उबार - फुगल्यात स्नायू - सकत ताची अद्भूत!
दोळे वोंकतात हरया-उजो - गर्जन करता ताळो!
फरमायता तो वैरीक आपल्या दिवच्याक उतराक पाळो -
'हय पिलांनो, इस्रेलीच्या! आयकात म्हजीं उतरां -
कित्याक आयल्यात हजारांनी हातीं घेवन हातेरां?
कितें मेळत तुमकां सांगा, होगडावन जीव असंख्यात?
बदलाक तुमचे भितेर एकलो जांवक आशेता प्रख्यात -
आसा कोणयी तुमचे मधें धैरदीक नरनाटो -
जो नांव जोडूंक इस्रायेलांत - सोधून आसा वाटो.
येवंदी धयरान म्हजे मुखार - दाकोंवक आपली शाथी!
जिकलो तरयी झुजांत म्हजेर - मेळों ताका ख्याती!
पडलो जर हांव पराजीत जावन - फिलिस्तिन सलवालें
सेन हातेरां समेत तुमकां शरणागत जालें!
जरतर अपार शक्तीन म्हज्या - ती जीक लाभली म्हाका -
जायया शरणागत - भेटो रगताचो व्हाळ ताका.'
गरजायता तो हूंकार असो - दिसा पाटल्यान दिसा

आयकात जसो भुकेल्लो वाग - अरण्यांत गर्जयता!
पूण हा, नामलो कोणयी धंयसर - मोडूंक ताचो हंकार
बळिष्टांतलो बळीष्ट शिपाय - सरलो ना कोण मुखार.

## जेस्से, प्रायवोंत देशभक्त

आसलो इस्रेल गावांत 'जेस्से' नांवान प्रायवंत देश-भक्त!
आट जण वीर पूत आसले ताका - सुंदर, धृडांग, सशक्त!
धाडले बापान झुजाक तेगांक - प्रज्वलीत देश प्रेमान.
जावनासले ते एलियाब, असिनादाब आनी शम्मा.
रावलो निमाणो पूत दावीद - बापाचो तो सावळी!
अनभोव नातलो नेंटो भुर्गो - भोकऱ्यांचो तो गोवळी!
पुतां मधें आसोन तरयी - एक्सुरपण तें भोगलें -
झुजाक गेल्ल्या बाळांक चिंतून काळीज ताचें रडलें.
बांदली भुती मोगान दिली - दाविदाच्या हातीं.
सांगलें ताका 'बाळा म्हज्या, चल तूं आयचेंच रातीं -
वांट ही भुती भांवांक तुज्या - दी तूं थोडी भुजवण.
कंगाल कितले जाल्यात आसतीत - झुजा दावेंन ल्हासोन.
कळय म्हजी चिंता, कळवळ तांचेखातीर सदां
मागणें म्हजें सोमयालागीं - मेळोंक वीर जय्त तांकां!
काळीज म्हजें भरलां पुता - नाना दुबांवांनी!
कितल्या भाल्यांक, तालवार, गुळयांक - तोंड दिलां म्हणं ताणीं!
हे धा लोणया कुडके अबले - दी सेनाधिपतीक,
मेळों थोडी तृप्ती, शांती - ताच्या व्याकुल मनीक!'

## दाविदाचीं भोगणां

बापा-संदेश तशी भुती दावीद हातीं घेवन
पावता पर्वताचेर आनी देखता विज्मीत पावोन -
दिसतात ताका सयलान सयलां - असंख्य झुजा-खणयो!
हा, कितल्यो व्यर्थ जातात तांतू तरन्यो अमूल्य जिणयो!
पूत तरनाटे, पती मोगाळ, कितले आधारी बाप -
दितात बली जिवांक आपल्या - भोगतात झुजाचें शाप!

चिननां निष्टुर आटोवन दावीद - भोंवता रणाथळार.
गोलियानाचें गर्जन कानांक आपटाना ह्या वेळार.
किटाळ आमलें देश-भक्तीचें - जाना जळटो उजो!
जळळो नाच्या आंगांगाचेर - जमो पालवांक नजो!
तोपल्यो काळजांन उनरां-भालियो, अवमान निंदभरीन!
उटलें नेंट्या काळजांन अघोर वादळ वर्णानातीन!
गर्जन करना, आदेश दिना, देशभक्तीचो नाळो!
लोटना मुखार मकन अदृश्य - दिना उन्याक पाळो -
सोधून आपल्या भावांक तेगां - दावीद वेगान धांवना
मेळटच म्हालघडो भाव मुखार - इच्छा आपली सांगना.
भष्टावणच्या नाळयान र्गलियात्र सांगन नाका अशें:
'कित्याक दावीद, बाळा - तुका लागलां असलें पिशें?
बापान दिलां कर्तव्य तुका - भोकऱ्याक आमच्या पोश्चें.
तितलेंच तूं कर - सोड तूं आमचेर वांजें जड झुजाचें.'
लागलीं उनरां - जशें जळच्या उज्याक शेळें उदाक!
उगन किनें सोवाय? किमचून फुलोन येंवच्या वांग्याक?
पूण भर्वश्या किरणां आमलीं लिपोन निराम-कुपीं.
पावली खबार मावलाक तुरन - अज्यापलो तो मनीं.
अनवारच्या घडियें आमच्या - सोमयान धाडला हो बाळ!
वांचयत बुडचें तारूं आमचें - निवरायत आमचो दुष्काळ!
अव्यक्त आनंद भोगना मावलाक - आपयता दाविदाक.
पोटलून नाका मांगना मोगान - जशें आपल्या पुताक!
'दावीद, प्रीती-बाळा म्हज्या, किनें तुजी पिसाय?
रणाथळार झुजांक प्रायेन आजून नेंटो आसाय!
देखलाय तुवें गोलियान केदोय? मकन ताची अपार!
पळेवन ताका जाल्यान कंगाल - इस्रायेल वीर सवार!
असल्या राक्षसाक तूं बाळा, कसो करशी पाडाव?
नाका तुका खेळ उज्याचो! कर तूं मनीं आटोव.
आयल्यान झुजांक तेग भाव तुजे - पुरुश धग्रादीक वीर!
मार तूं तांच्या बावळयांक मकन - ना जांवच्याक ते अधीर'
सांगलें तरयी मावलान अशें - भिनरलें मन ताचें

राकलें आयकोंक आशेल्लें नें - वीरपण दाविदाचें.
रायाळ उतरां निराशेचीं! तरयी धयर मांडीना,
भुरगो दावीद नमृतायेन जापीक जाप मोडून दीना!

## दाविदाचो अखंड विश्वास

'भोव पदवेदार तमो दयाळ - इस्रेलीच्या राया,
उलयतामतां चुकलों तरयी - दाकय म्हजेर दया.
मोमयाच्या मैनाचेर विंचणार - हात उकलचो वैरी
न्हंयगी देंवचार-प्रेरीत निश्चिन? कळव कित्याक तरी?
चिंतायगी तूं - मर्व पदवेदार, मर्गा-पृथ्वी रचणार -
मांडीत मंकष्टांत पडलल्या परजेक आपल्या विंचणार?
अमंख्यात ह्या परजेक आपल्या गकनाम्नाना - म्हाका
मांडीत कमो - धनी बरें? दुबाव करीनाका!
निमाणो हांव भुर्ग्यांमधें - कर्तव्य मदां म्हजें
भोकऱ्यांक आनी शेळियांक आमच्या दोंगगर चरोंवक व्हरचें.
कांट्यां-खुंट्यां मधें नशें अपायांच्या थळार
राकला ताणे अदृश्य हातान - विघ्न आयिल्ला वेळार
गर्जयताना वारें-वादळ, घडघडो, झग्लाणे -
पृथ्वी, आकाम झुज मांडटाना - जतन केल्या ताणे!
राकोन व्हेलां वागां, शिंवां, बोल्ग्यांच्या घामांतलो!
वोडला पाटीं किनले पावटी - मरणाच्या पामांतलो!
निष्टूर मोनजातींथावन म्हाका बचाव केल्लो धनी
मोडिमोना निष्टूर मनशां हातीं - धयर घे मनीं!
दिमानामल्या बळवंत हानांन राकता म्हाका मोमी!
पदवी ताची अपरिमित - तो मर्वान्तर्यामी!
आमतां म्हजे कुशीन मोमी - गोलियातच न्हंय बगार
उंचलो पर्वत मैती बागायत नकली म्हजे मुखार!
त्या मोमयाच्या नांवान म्हाका धाड तूं रणा-थळाक
शेवटून वैरीक हाडटां मुटका - इस्रायेली कुळाक!
स्फूर्तीभरीत मोमया-प्रेरीत उतरां ताचीं आयकोन
भरता काळीज मावल रायाचें - आनंद, हर्षोद्रेकान!

वोडून ताका काळजालागीं - बापय मारक्या प्रेमान
मांगता अशें 'बाळा दावीद, ना कोण तुजे समान!
चिंतनेन, सद्दान, करणेन - कितली धन्ये तुजी आवय!
देकीन तुज्या भिजूड आमचीं काळजां जागोंवक पावय!
घे आशीर्वाद - आब्रांव, इजाक आनी जाकोबाच्या
रचणागचें - जातलो तो राकणो वाटेर तुज्या.'
चलता दावीद नंयच्ये तडीक - मेटां ताचीं निश्चिंत!
निर्धार ताचो खडपा मार्को - भ्यें ना थंयसर किंचित!
विंचता थोडे फातोर तेलते - नंयचे तडीवयले
वेत्काटी ल्हान तशी गोपीण घेता आपले बगलेक.

## दाविदाचें अप्रतिम जैत

शिबिराभायर उबो गोलयात - दावीद येंवचो देखता
पारकून ताचे उद्देश खिणान - निंदा करून हासता!
लागीं पावतच भुरगो दावीद - करता ताका अकमान -
म्हणटा 'पिल्या! चिरडीन तुका चिल्लर किडी समान!
तालवार नासतां गोपीण हाडल्याय - आयलाय खेळोंक हांगा?
ह्या ल्हान प्रायेर धाडलां तुका मोगोंक रण-रंगार?'
उतरां निंदेभरीत, निष्ठूर - दावीद करता गुमान -
काडटा तो दोन मेटां फुडें - जवाब दिता धयरान -
'पक्षेन तुज्या कोण तो झुजता? फकत तुजी भाली!
जाणांय? जे कोण झुजतात भालियेन - जातीन भालियेक बली!
आपल्याच मकतेर पातयेवन केदींच मरानाका मुखार!
अर्द्धन गुपीत पदवेचेर तूं - चलयनाका हंकार!
शरीर हें जावनासा नित्राण-निर्जीव मासा-मुदो -
जळयतलो जीवीन तुजें - विकाळ गर्वा-उजो!
दाकयताय तूं गरवान ओसतोन - लोहा कवच! तालवार!
गरव्यांक शिक्षा सोमी दिता - जांवचोनांय तूं सालवार!
कवच तुजें लोंकडाचें! पूण पोकळो तुजो हंकार!
जळटाय क्रोधान - पुण ना निती-उजो काळजा भितर!'
उतरां उगतीं! उतरां निर्भीत! उतरां भालिये मारकीं!

तोपनान गर्वाक गोलियानाच्या - जवाब दिना पाटीं -
'जळच्या महाग्नीचेर - ल्हान एक उदका थेंबो कसो!
मोडीन तुका खिणान एका - काडिये कुडको जसो!
धाडला मावलान नेंट्याक तुका - ह्या ल्हान प्रायेर झुजोंक!
भियेवन कित्याक गवलाय पाटीं? नाका फोंडाक व्हचोंक?
नरयी गरवी चेड्या! तुका लागला झुजां-वारें!
पळे गोलियानाची सकत! जा तूं मानयेक मारें!'
उडटा मुखार धरना भुरग्याक - वेडकोळन विद्युदवेगान!
अंरदून वज्रामुटींत आपल्या - दांबना नाका क्रोधान!
मुट्टा दावीद युक्तेन कुशल - गक्कोगा हानांनलो
धांवना पाटीं काडटा फातोर - वगलेच्या पोल्यांनलो
घेना हातीं गोपीण - नाचें एक मात्र निनी-हातेर!
नेणा गोलियात - विनाश आपलो आसा नाचे भिनर!
गुंवडायना नी भोंवऱ्या सरी - वैरी कपालाचेर!
जोकून मारना फातोर उबना - झग्लाण्या वेगाचेर!
रिगना वैरी मेंदवांत जसो गेंवना फोळयांत खिळो!
देंवलो आंगार शिरांधारीं हुन-हुन रगना व्हाळो!
कटोर मनाक दीष्ट उघडलो - अंनिम नाचो वेळ नो!
पडलो भुमीर आपटोन जसो - मूळ कापललो नळटो!
आकानोन थरथरले महा सैनीक फिलिस्तीना!
फासाळले चारींय दिशांनी सब्द काडीनासताना!
आनंदभरीत माहसाचो कीर्ती सुगंध भरलो
इस्त्रायेलांत - कोनशा कोनशांत दावीद खातनो उरलो.



# सामसांव आनी दालीला

परत परत इम्रायेली पर्जा पडटा धांटोन
शिक्षा भोगीत वरमां चाळीस फिलिस्ती हातीं पडोन
दोवोत कुटाम मानोवाचें वरमां गेलीं सबार
स्त्रीये कुशीं फळ ना जालें मागलें तरयी अपार
एक दीस दैवदूत पडलो दिष्टीक सांगलें वांजडी स्त्रीयेक
गर्भांत तुज्या किरलात वेगीं चेर्को भुर्गो - फळ एक!
वर्सां सबार काडलींय मागोन भुर्ग्या खातीर आतूर
आसों चत्राय - लागयनाका केसांक ताच्या वाकोर.
दाकां सोरो व हेर कसलेंय आमाल आपडनाक.
अशुद्ध पीवन तशेंच अशुद्ध खाणाक आशेनाका.
सोमिया-सेवेक विंचललो तो नाजीरगार जानलो.
इस्रेल लोकाक फिलिस्तीथावन वेगींच सोडयतलो
कोण नी आवय फुलचीना व्हड दवलतेन हें आयकोन?
वरसां किनलीं धांवोन गेल्लीं बाळाक राकोन राकोन!
आतां खिणान गेलीं विसरोन सामसांव आयलो जलमोन.
धांवलीं वरमां पाटल्यान वरमां भुर्गो गेलो व्हाडोन.
एक दीस आवय-बापा संगीं तिमना गांवाक व्हेतां
दिसलो दाकां-मळो वाटेर बसोन विशेव घेतां.
रानां भोवांर जालो आवाज! दीष्ट सगळयांची वोडून
शिंव एक बळवंत गोरेंज मारीत्त आयलें थंयसर धांवोन!
आवय-बापय धांवलीं भियांन - सामसांव एकलोच उरलो
खडपावरी धयरान उबो! सोमया शक्तेन भरलो!
उडटच आंगार एकाचफारा शिंव तें वरत्या बळान
धरता सामसांव गोमटी ताची बळाधीक वेड्ड्‌ोळांत!
उडलो पाटीर घोड्या-सवार! वोडून गोमटी पाटीं
अडचून लोंकडा मुटींत मोडली जशी किर्कोळ काडी!
जानलो कोण थंय पळेंवक ताच्या वीरत्वाच्या रूपाक!
चल्लो मुखार निश्चिंत मनान सोधून आवय बापाक
मेळटच तांकां मन सांगलेंना - देवंवंक तांचो आकांत.

म्हळें 'बापा, धांवलों चुकोन काळजांत दवरून भिगंत'
म्हयने 'थोडे पाशार जाले - एक दीस माससांव गेलो
त्याच त्या आदल्या वाटेन तेदना उडास ताका आयलो.
धांवलो राना कुशीन दिसलो हाडां-घुड शिवाचो!
भितार ताच्या हात घालून वोडटां पर्मळ एवन मांवाचो
खेलें थोडें, व्हेलें थोडें - आवय-बापाक दिलें.
घुट सांगलोना तांकां हाडा-घुडांत मांव तें मेळळें.
न्हंय तर पोटांत उरचेंना कांय - व्हेतेलें सर्व वांकोन!

## सामसांवचें फारीकपण

एक दीस माससांव सांजे वेळार व्हेतासताना चमकोन
सुंदर एक फिलिम्नी चलियेक पळेवन तक्षण भुल्लो
दुस्मान कुळिये उज्यांत खेळळो - हात आपलो हुल्पायलो!
झुजारी तो! बायलेक पोसूंक सोडली धेड्या हातीं.
व्हकले बापय पेटलो रागान - धेड्याक तोवरे केलो.
अकमात हो सोसूंक जायनासतां माससांव जालो उजो!
प्रतिकार तो चिंता विचित्र फिलिम्निनाक धासचो.
चिंतून चिंतून काडलो उपाय! आलोचन ती पिशी!
गेलो रानाक सोधून हाडले शिपाय-कोले तितशीं!
दोन-दोन कोल्या शिसच्यो बांधून - चडवन चळच्यो चूडी
सोडले शेतांत शिपाय-कोले करून घडासोडी
करून विभाड लुवांक जाल्ल्यो कणस्यो, दाकां-मळे!
जळळे जयतन रुका फांटे, जळळें गांवा-दाळे!
सगळें गेलें जळोन फिलिम्निना खाणा तुपें!
कोलेयी मेले जळत्या उज्यांत - उरलें ना कांय जिवें.
एकच पावटी फारिकपणान भरली भिगंकुळ रान!
बसलेनांत फिलिम्तन वोगे - सोधुन व्हड प्रतिघात
मारलें बायलेक, बापायक तिच्या - रिगोन माससांव घरा!
माससांवचें कुडी-बळ अगाध उगडापून त्या फारा
म्हणालो तो 'इतलें सगळें केलें तुमी म्हाका.
आतां आयल्या सरती म्हजी - सकत म्हजी देखा'
फारिकपणा-उज्यांत जळळो - माससांव तांचेर उडलो!

फिलिस्तिना वीरांक किनल्या पेल्या लोकाक धाडलो!
खुबाळळे फिलिस्ती मनीस जमो जावन तीन हजार!
पावले जुदाक मारून तंबू - सोधूंक लागले गांवार.
कांपले भियान जुदाचे लोक रगता नंयो आटवन!
विचार ताणी केलो तांचो 'कित्याक अशे पेटोन
आयल्यात व्हडा संख्यान आमचे विरोध मारूंक तालवार?
आपेक्षिनांव शांती आमी - ना तर जायनांव साल्वार.
तुमचो न्यायकर्त बळवंत साममांव! धरूंक ताका आयल्यांव.
ताणे किते केलां आमकां - तेंच पाटीं दितल्यांव!
हाडा ताका दोरियेन बांधून - ओपसून दिया हातीं'
धांवले खडपा माट्याक इस्रेली लोक उटा-उटीं!
मारलो उलो - 'किते तुवें केलेंय साममांव बळवंत?
नेणांय तूं आसांव म्हण आमी फिलिस्तीन राजवटांत?'
साममांवची जाप आयली तुरंत उतराक उत्रा-भाले!
'किते ताणीं म्हाका केलें - तेंच तें पाटीं दिलें!'
'धरूंक तुका आयल्यांव आतां दीवक फिलिस्ती हातीं.
काडचेनांव जीव तुजो - भास ही मोडचेनांव केदीं.'
बांधलो ताका राजवानी दोन - लेही गांवाक व्हेलो
फिलिस्ती जावन जमो थंयसर रेवोड ताका घालो.
हजारांनी फिलिस्तिंची झुजा किंक्राट उटली;
दुस्मान तांच्या हाताक पडला! जीक ही तांची व्हडली!
एकाचफारा सोमिया-स्पिरित देंवलो ताच्या आंगार!
तुटले राजू सुतांबरी! साममांव जालो सरदार!
गाडवाच्या एक खाडके-हाडान आड घाले एक हजार!
त्या घडिये तें न्हंय खाडके-हाड! झळझळची एक तालवार!
झुजाची तान थांबली आतां - लागली तान कुडीची!
सोसयाक मारली बोबाट ताणे सुकलेल्या जिबेची!
'सोसया दिलेंय म्हा व्हड जय्त ह्या खालत्या चाक्राक तुज्या.
तानेन सुकला गळो! पडों हातीं दुस्मानांच्या?'
सोसयान उघडन पोकळ माती भरली मोट्या झरीन
पोटभर पियेवन जोडली सकत राकोन रावलो संदर्भ

# सामसांवचें दालिलालागीं काजार

उपरांत गवलो साममांव मोरक फाल्क्यांन करुंक वसर्ती
भेटली थंयसर वेश्या सुंदर 'दार्लीला' नांवाची
दादल्यांक नाडची सकन तिची नेणा जालो साममांव
घडियेन पडलो जाळाक तिच्या मांडून सगळें गजांव
मळावळ नी व्हाडोन गेलो पडलो मोगार साममांव
फुडार्यां थंय गेले फिलिस्तीं लोक उत्साहित जावन
दार्लीला सजर्तान आसलो उपाय फुडार्यांचो
निकनळावन काडचो घुट साममांवच्या अप्रतिम सक्तेचो



गेले तिचेलागीं आर्नी म्हळें आडदोस मागोन
'दालिलाबाय, आयकालांसी देशाचो एक दुस्मान
साममांव बळवंत - लागीं तुका मागोन तुजो समाय
आयल्यांव आर्मी देशा हिनान - नेगार करिनाकाय
फुसलाय ताका वेंगेंत तुज्या वापरून मोवाळ उतरां
बळवंत इतलो जालो कसो? शिकला गुर्पान सूत्रां?
सोधुन काडशी, आमकां सांगशी - जानेर्लाय दुड्डार्दाक !
इक्रा हजार शेकेलांचो दुडू आर्मी एकेक
घलनेल्यांव त्य वोंटियेंत तुज्या! करशी तर हो उपकार
फिलिस्तीं सर्व मांदून तुका धन दितले अपार!'
पयशां अबळाय, सामसांवचो मोग तुकून घेवन दालिला
सरता पयशां कुर्शान - साममांवक दाकोवन माया लीला!
मागता आडदोस उगडापूंक घुट अप्रतिम शक्तेचो
'सामसांव म्हज्या काळजा गोंड्या! गक्षोसा बळाचो

जीव तो तुजो पळेवन जाल्यांव विज्मित काळजा भितर
भोगल्यां इतलीं आतुर मती मोडयनांय तर मिस्तेर
चिंतेलीं हांव ना म्हण तुका कुस्कूट मोग कांय म्हजो
जाणांय म्हज्याच जिवाप्रास चड मोग करतां हांव तुजो'
'प्रिये दार्लाल, ल्हानशी गजाल आरोप केदो मांडटाय!
जिणयेंत म्हज्या तूंच एक सर्वय तरयी मोग ना म्हणटाय
उघड म्हजें काळीज, पळे, रुपणें तुजेंच खंचलां
रंग ना केदींच हेरांक नांतूं तुकाच एकल्याक विंचलां
मिस्तेर ना कांय शक्तेंत म्हज्या दीष्ट घाल नकलेर म्हजे
व्हाडल्यात पळे केस ते काळे कराड वाडटा नशें
वाकोर तांचेर लांवकना एदोळ जाणांय तूं कोण म्हण हांव?
ल्हानपणार थावन देवा-चाक्रेक मोडलो नाजिरगार हांव!
काडशी केस ते बोर न्हंयच मातें - बळ उरलेंना किंचित
नेटना जातलो हांव असहायक तुजे बरींच'
जाली खुशाल भरली मझेन घातकी दार्लीलाबाय
नाचले. उडले आयकोन खबार फिलिम्नाचे राय
धाडलो संदेश तुर्तात निका 'पावनांव थंयसर वेगीं
करचें काम तें कर तूं शीघ्रान व्हरतांव नाका संगीं'

## दालिलान केल्लो घात

निदावन उमक्यार पोशेवन केसांक आपंवक धाडलो केलशी
दार्लीलाच्या उमक्यार साससांव पडलो निदेंत आळशी
राय फिलिर्स्तीन येतां थंयसर नासनां एक केस नकलेर
पडला निदोन सामसांव 'बळवंत' दालिलाच्या उम्क्यार
हाडल्यो बांधूंक रजू. दोरियो - साससांव बावडो निर्बळ
कुचुल्यो करन उटयत नाका निष्टूर घातकी दार्लील
म्हणटा 'मोगाळ सामसांव. उटूट. आयल्यात फिलिस्तिनरार
बांधला तुका दोरयेंत तार्णा करूंक बंदीत फिचार
साध्य व्हय जाल्यार झुजोन तांचेर जयता बावटो उबार
मारल्याय एकाच गाडवा हाडान फिलिर्स्तीन तीन हजार
मोडल्याय गोमटी शिवारीं एक फकत हाता बळान
तर ऊट आतां दाकय सकत उसळाय फिलिस्तिनांक'

'ना संसारांत दोर्ग कसलोय म्हाका बांधून घालचीं
पळे घडियेन मकत म्हजो दोर्ग तुटोवन घालचीं'
पूण हा जिकलोना निर्भागी केलें किललेंय साधन
बोटां तार्चीं गेलीं केसां पांतियो सोधून, साम्सोन
अक्लासलो तो, कळवळलो तो, कळटच दार्लीलाचो
घातकी स्वरूप आर्ना रडलो गळवन पाव्स दुकांचो
नातले कोण थंय पावोंक बिरमोन निर्बळ निर्भाग्याची
धरलो ताका, कोंकले दोळे वींट-वावळी करून तार्ची
व्हेलो शहारांक राजा थंयसर घाण्याक घालो बांधून
घुंवडावंक दांतें दिसान-दिसा लज-मर्याद सर्व सांडून
धांवले दिसां पाटल्यान म्हयने साससांव उरलो घाण्यार



तशेंच व्हाडले केस ते आदले - बोर आसल्या त्या म्हाल्यार
तशेंच आयलें बळ तें आदलें - साससांव जावन आनंदांत
लिपयत घुट तो आपल्याच काळजांत फारिकपोण तो सोंदांत
दीस एक आयलो निर्मोण्याचो परब फिलिस्तींची
'दागोन' देवाक अर्पुन बली उत्सव संभ्रम करची
मागलें लोकान 'हाडया मुखार साससांव व्हड 'बळाधीक'
लोकाक आमच्या गोवींक जशें कानरलल्या वैरीक
पोटभर आमकां करून खेळकुळां पळेंव्क तार्ची मजा'
थांबलें दांतें हाडलो साम्सांवक - लोक आसलो तीन हजार
देवळा मुखले मुळावे दोन कुंदे साम्सोन साम्सोन
काडले सोधून रावलो वोणकोन काळजांत वादळ भरोन

मागलें 'देवा सर्वेस्पोरा, दी तूं पाटीं म्हाका
बळ तें आदलें घेंवक फाग्किपण, दुसरें कांय दीनाका'
अर्धाक जार्ला खेट लोकार्चा आयले मुखार मुखार
फिलिस्तिना राय धरलले भिकारी सैत हजार
'माम्पांव बळवंत, शिंवाचो अंत केल्ल्या महा वीग
दाकय आमकां बळ तें आतां खुशेन व्हेतांव घग'
खेळकुळां ते करनान हासोन मारून व्हडल्यान बोबाट
क्रोधान उजो जाना माम्पांव पळेवन जमो विगट
केमांन आपल्या घुंवडांवन बोटां पोशेना ते मोगान
फिलिस्तिचे लोक तीन हजार आर्ना तांतूं आपूण
जानेल्यांव सर्व बर्ला म्हज्या केमां बळा मुखार
एक निमाणे करून मागणे धरता कुंद्यांक पोशेवन
हालयना ते राक्षस बळान - हालना सगळें देवूळ
लोकार्चा दीष्ट खेंचल्या नाचेर आसङ्यो मोर्डानामतां
कोमळोंक लागतात फानोर एकेक कुंद्या पाटल्यान कुंदे
पडोन तांच्या आंगार जातात निर्जीव मामा मुदे!
फात्रान फानोर पडले कोमळोन बुन्यार्दाथावन पाकें
देवूळ मजभूत, मोर्बात, सुंदर जालें पणर्गाल, रितें!
हाक बोब मारतात भुर्गीं बाळां, फिरगातान म्हानार्गे
मांडून आशा, नामतां दिशा, मानयेक जातात मार्गिं
इटे, फातोर, मोड्यां-रार्शा भरसोन एकामेका
देवूळ जाता कोच्र्या दोंगोर - भौकर मौन पासारता
कुंद्या पंदा पडोन माम्पांवन आकेर उस्वाम सोडलो
भिरंकूळ तें दृश्य नामाचें पळेंवक कोण ना उरलो.



# Divyamrut

Kavi

J. B. Moraes

Prakashak

Roshan Sahitya Prakashan

Mumbai

2008

# Orponn



## Fr. Lawrence Pinto SJ

(**Viveka Pragati,** P.B.1, Haliyal 581329)

Bhurgeam khatir, dublleam khatir jinni soglli orpileai
Bhurgeam-sevent sodanch thuvem rochnarrak dekhlai

भुर्ग्यां खातीर, दुबळ्यां खातीर जिणी सगळी अर्पिल्याय
भुर्ग्यां-सेवेंत सदांच तुवें रचनाराक देखलाय

ಭುರ್ಗ್ಯಾಂ ಖಾತಿರ್, ದುಬ್ಳ್ಯಾಂ ಖಾತಿರ್ ಜಿಣಿ ಸಗ್ಳಿ ಅರ್ಪಿಲ್ಯಾಯ್
ಭುರ್ಗ್ಯಾಂ-ಸೆವೆಂತ್ ಸದಾಂಚ್ ತುವೆಂ ರಚ್ನಾರಾಕ್ ದೆಖ್ಲಾಯ್

**John B. Moraes**

# J.B. Moraesachem Sahitya

**Kavita-Punje**
Novi Vhokol
Bhitorlem Tufan
Ek Dhent - Ek Pan

**Neelkavita**
Divyamrut

**Kadambari**
Pottacho Ulo

**Katha-Punzo**
Koxed'dan kelli Khun

**Jinnie Charitra**
George Fernandes
Cha. Fra. De'Costa

**Natak**
Hi Vat Yemkonddachi
Vidhicho Khell
Soponn Parki Zuze

**Kavya-Natak**
hutipharachi Bail (Teen Natak)

**Vyakthi Porichai**
Monglurchim Uzvol Ratna

**Rupantarit Kadambori**
Nisrolleak Lottun Ghalo
Bolpeam Modhli Xelli

**Anuvadit Kavita**
Novem Poinn

**Vyakti Porichoi**
Mongllurchim Ujval Ratna

**Anuvad**
Ontya Nashillem Soponn
Kannada Sahityacho Itihas
Romeo-Juliet

**Sompadit**
Francis Cassiachim Vinchnnar Borpam

**Mukhlim Pustokam**
'Xirlo' Gomes (Mottveo Kannio)
Kanttea-Khunttanclean (Atma Charitra)

# Divyamrutantleo Omrut Ghodio



# 'Divyamrut'

## Konkanintlem Ek Mahakavya

Lamb kallathaun mhozo mitr ani Konkanicho navad'dik kavi, kathakar, natakist ani sahitya vimarxak borovpi J.B. Moraesan thoddea mhoineam adim apli lamb kavita 'Divyamrut' hachi ek hath-proti dhaddun diun taka ek borem yogya prostavan borovn dhaddunk vinonti kelli. Punn hanv seva diun aslelea Siddakatte phirgojent mhojea mukhelponnar phirgozgarani arombh kellim yojanam: Iscolachem novem bandap, igorjechea zagear ek novem rubber thott, igorjechea bandpank chunno / bonn kaddouncho ani her kamam, novea phirgojek vhechea adim sompounk asullea nimtim 'Divyamrut' kavyem vachun tantle roce pieun jironvk mhaka vell mellona.

Atam, novea phirgojent vosti-seva thir zalea uprant 'Divyamruta'chem vachap-xikap arombh kelem. Vachtam vachtam, hem Baibalachea Pornea Solleantlea thoddea unchlea kannianchem sangap ani motiam sarkea sothanchem sobit sundor xailen vivoronn, sannivexanchem, porisorachem vornnon, tantlea veer, adorx patradharinchem chitronn mhoje tosolea sahitya asaktank 'Divyamrut'achem khonddit bhojon mhunn mhaka bhoglem.

Konkannint mahakavyem mhunniet tosolem lamb kavyem bharich oproop. Sotravya xatamanantlem Jejuchea sobhecho sando baap Estephanan boroillem, 'Krista Purann' poillem mahakavyem mhunniet torui Marathi bhaxeche sahiti ani vimorxok tem Marathi bhaxechem mahakavyem mhunn bhastat. Kavi, Eduward Brun da Souza hanne rochit kellem 'Eve ani Mori' Konkannichem poillem mahakavyem mhunnon 2Romi lipiche Goenkar vaad mand'tat. Tem atam Prof. dotor Olivino Gomisan Devnagri lipint lipeantor korun, sompadun

porgottlam. Hi lamb kavita Baibalachea dogam maha stree patrancher bandhun haddlea. Monxakullachi adi mata Eve, ani monxakullacho soddvonndar Somi Jezu Kristachi avoi bhagevont Mori, hancho patr ekameka tall korun monxakullachea poddnne ani soddvonnent tanchem denne hantum sompea, suddall utrani vornnilam. Hem Konkanni bhaxentlem, Romi lipintlem, poilem mahakaviem mhunn ami mandun ghetlear kavi J.B. Moraesachem 'Divyamrut' lamb kavyem Kannada lipint rochit zallem poilem mahakaviem mhunncheak kosolich addkoll na.

Thea xivai, sounsarachea her bhasanchim, puratan kallachim, namvad'dik mahakaviam (Epic Poems) Greek bhaxechem 'Iliad', Latin bhaxechem 'Inid', Inglixachem "Paradise Lost' ani 'Gained', Italian bhaxechem 'Divina Comedia', Sounskritachem 'Ramayanna' ani 'Mahabharata' ani her ami vimorsun pollelear, mahakaviachim lokxonnam amkam kollit zatat. Zaiteo hozar volli attapchem mahakavyem surver Devachi sthuti gaun, adhar magon, arombh zata. Uprant dorio, veveglle vell-kall, chondremacho udev, suriacho udev, ostom, porvot - osolea rochnechea sobhaiechea ani xringar, hasya, kama, itiadi 18 prokaranchem vornnon aplea angant gheun mukhar veta. Veer, xringar, xant, adi nov ros mahakavyant nixetat. Eka janangachi, kallachi, raxttrachi sounskriti kalpanik charitrai tantum zollkota. Hozar vorsam ballvonchem hem kavyem sorv kallank yogya zallim sotam uklum dhorta. Daivik gunn aslelea maha puruxa bhonvntim bandhun hadd'nnem maha kaviem, tachim othorvonnam, borea vaitta modhlea zuzacho prodhan veer zavn taka pintraita.

Sounsarantlea mahakaviancho vixoi pouravannik ani kalpanik; dharmik, dhorm granthank logti zallo. Sorv-kalik sothanchem ucharonn zatana, borea daivik gunnanchem pratipadanui tantum asta. Dhorm-gronthantleo rosall 'romantik' moga sombondacheo, rai kulliam modhlea lamb zuzancheo kannio - him kavya ruponn kortat. Oxem,

'Mahabharat'ant Kurukxetrantlem zuz, 'Ramayanna'nt, Xrilankant Rama-Ravanna modhlem zuz, 'Paradise Lost' ani 'Gained' hantlem soitana ani anjam modlem zuz ullek koriet. Choddavot sorv mahakaviani don-tin prodhan stree patr'ui utton distat. 'Heroin' zaun tankam chitrit korun tanchea ang-panganchem, vixvianchem vornnon, gunna-ovgunnanchem chitronn ani nimanne, tanchem xilapahoronn vo tanchem voxikoronn - hacho porinnam zaun mahazuz cholta. 'Mahabharata'ntlem Droupadi, Kunti, 'Ramayanna'ntlem Seeta - haka udaharonn zaun gheviet. 'Inida'ntlem Helenachem opohoronnui osolench.

'Divyamrut'ant kavi J.B. Moraesan Baibalacho poilo bhag - Pornea Solleantleo promukh kanniom, ghodditam, veer patr vinchun tanche bhonvnti hem mahakavyem rochlam. Vixoi porno torui niruponn, vornnon, bhavya sori, olonkar, nove novemch. Konknnint hell'llea mhalghoddea kavicho onbhog, kavita rochhem unchlem denne 'Divyamrut'ant'lea ponkti-ponktini utton dista. Ek hozar attxim ponktinchea hea lamb maha kaviant, 'Utpotti' ani 'Nirgommon' gronthantlim promukh ghodditam, vyokti, kannio, Eden udyanachem vornnon, poilea zoddeachem rochon ani poddnne, soimbachea patkak xikxa, Cain ani Abelachi kanni, Novechem kutomb ani budtugol, Abrahamachem apovnne, sollo, bhasavnni, puta Isakacho zonm, Abramachi parkonn, Esav-Jacobachi jinnie kotha, Zuzechi kotha, Egiptantlem gulamponn, soddvonn, Moijechem mukhelponn ityadi sumadhur xailen spoxtt, suddall utrani vornnileat.

Uprantlaea ponktini 'Rayanchea Grontha'ntlem mohan ghoddit - David ani Goliatha modhlem zuz vornnilam ani 'Nitikortanchea Pustok'antli duront kotha 'Samsanv ani Dalila' hanchi rosall mogachi kanni ani duront -onteachi jinni sanglea. 'Divyamrut'ant ekloch mahaveer, mog-kornnar, zuzari, porakrami, 'Superman' tosolo dixttik poddona. Abraham, Zuze, Moije, David, Samsanv - veer, susomponn, sugunni

mahapurux torui, okhya 'Divymrut'ant tancho patr vistarun na. Tancho patr ek'eka odhiaiak vo tanchea bhonvntichea kanniek seemit zala. David ani Goliatha modlem zuz, 'Divymrut'antlem vhoddlem zuz, punn tem dogam veer vyoktim modhlem; jonangam modhlem zuz nohim tem. Jacob ani Rechel, Samsaum ani Dalila, hanche modhlea mogachea kanniank xringar rosachem ponn ghalam, torui her mahakavyani vachunk mellchem lamb deeg 'romantic', othorvonnanchem vornnon hanga na.

Oxem zaitea vixoiani, 'Divyamrut'ant sampradaik mahakavyachim lokxonna dixttik podd'ttat torui poripurnn thoran hem sampradaik mahakavyem nohim mhunniet. Kavyacho kall, lamb-deeg sounsarachea rochnna thavn vinchnnar porza bhasoillea ganvant pavon thoim xasvit vostek ravta poriant vistarla. Torui kavyacho mahaveer patr eklo nohim dekun ani vornnillea ghodditank ekameka antorik sombondh nas'llevorvim kavyacho ekvott oskot-so dista. Punn kavyachem chondoss, Baibalachempatt-tholl, Devachea porjechi choritra, Zudevancho Dev 'Yahve'n tankam rokxonn diun nirdixtt xevotta kuxin cholon vhorchem sadhon - him 'Divyamrut'ak eka thoracho kariall, siddhantik ekvott rochun ditat.

'Divymrut'achea rochonek vaporullem chondoss, Miltonan aplea maha kavyak 'Paradise Lost and Regained' ani ailevarchem Kannada bhaxentlem 'Kuvempuchem' mahakavyem 'Ramayana Darxanam' hanni vaporullem 'blank verse' vo 'saralla ragalle' chondossuch. Hantum ponktich mukhya. Lambaiek boronunch vechem. Dor-eka ponktik maf asa, sorimchi sobhai asa; olonkaranchi vop asa; matreanchi bandavoll asa; punn itleach ponktinchi bandavoll mhunn na.

'Divyamrut'antleo sori, utram-chitram, bhovya rupakam vo upame choddavot Konkanni kaviani bhov oproop vachunk mellchim tosolim. Dakhleak thoddim pollea:

Poilea striechea kesanchem vornnon koritt kavi mhunnta:

*Nillxe dolle! Praxant tolleant protibimb mollbachem!*
*Dompor poriant kesanchi ras! jolopat nodichem!*
*Hastana omrukem - distat danta povlle - thikam!*
*Haltat asddeo dolleam voileo - pisolleanchim pakam!*
*Choltam oxir penkttachi mod, lozoit soiti dudval*
*Pikim zambam toxem tiche sobtat tambdde don gal!*
*Variar ubtat kes te kalle - doriantlim xant lharam!*

Kainacho mosor:

*Mosrachem bim vaddon ailem vixal ruka bhaxen*

Budd'tugola uprant Novechem magnne:

*Naka Somia, dakoinaka, oslo krodha-uzo!*
*Bhogsanneachea xanti-doriant sodanch lipondi to*

Putha Isakak bolidan bhettoi' mhunn Devan Abravnk sang'llea tedna:

*Sontosachem soponn zoxhem paxar zallim vorsam!*
*Atam uttli bhuimkamp ghoddien - koslon gelim sopnna!*

Moria porvotar boli bhettonk lankdda sari toiar zatoch 'Xelli khoim asa dada?' mhunn putha Isakan viharlelea vella:

*Avrache lot addailelea noinchea bandhapori*
*Vortea hottan dambun dhorleo dolleant dukam-zhori*
*Katt thuttlelea avrapori polear tachea golleo*

Utram-chitrank dakhle:

*Izakacho jinnie-kollso ailo purto bhoron*

Isak Esavak mhunnta:

*......... jinnie-surio mhozo*
*Buddonk zala toiar balla*

Osoleo sori, upama, roopokam, utram-chitram, okhya 'Divyamrut'ant bhoron vomtotat. Dekun 'Divyamrut'acheo volli vachun vetana sahitya pokvonachem omrut sevon, mothik xanti, trupti dita.

Kanadi lipin borovnchea ani atam jeevont aschea Konkanni kavim poiki Xri J.B. Moraes chodd lokamogall zala.

Tachim kovonam, jivall dhanvtea zori bori. Nitoll, suros, soroll, porichit protima sorim dvarim, unchlim gund sotham amche mukhar ugtim korunk to sokta. Tanne aplea kovonani ani kanniani pintravnche patr vastovik jeevonak bhov lagxile. Tachea patranche gunn-ovgunn-xegunn, monxaponnachim ani khotteaponnachim lokxannam amche bhonvnti pollevnk mellchea vyoktinchinch. Tantle thodde aminch zaunk purokai? mhullo dubav ubzota.

'Divyamrut'antle patr - dadle ani strio - puraton kallachea torui, aichea amchea sounsarantui tosoleo dixttik pod'tat. Tanchea sangata ami jievn asaum. Tanchea mogacho, boreaponnacho toxench khotteaponnacheo, fituri-xintreancho onbhog amkam zallebori dista. Dakhleak, Evechi sobhai, chonchol svobhav, axa, zaitea amchea kallachea striyam thoim ami dekhlea. Kainacho mosor ani tacho porinnam, Sara ani Agar - hanche modhlem zogddem, mosralli vorton, Abravnche kollvolle, osohoyata, tyag, Rebekkan, tyag, Rebekkan aplea dogam cherkea modhem korcho bhed, moga khatir Jacoban korcho tyag, Putipharachea bailechem kamukiponn, Goliatachem porakromache poklle ani buddbudde, Davidacho vixvas ani svabhiman, soktivont bollixtt Samsaum dadleak solvillea Dalila striechem soilapachem aid - him sorv lokxonna, xegunn, oskotkaio, bharich marmik ritin kallzak lagchebori hea mahakaventlea patrani zollkotat.

Her bhasanchim mahakavyam ami odhean kelear thoim thodde veer patr oprotim thoran utton dische ani tya mahakavyant jeev bhorche ami polletanv. Dakhleak, 'Ramayann'ant Xriramacho patr, 'Mahabharat'ant Dhormoraya ani Arjuna, 'Iliadd'ant Helen, ityadi. 'Divyamrut'antui osole mahapatr asat. Abraum, Jacob, Zuze - osole porzollik patr mhunniet.

Choddavot sorv mahakavyani nirnnaiak mahazuzachea vornnonakui promukh sthan asa. Oxem 'Mahabharat'ant Kurukxetra zuz, 'Ramayanna'nt Rama-Ravanna modhlem,

Xrilankantlem zuz, 'Iliadd'antlem Trojan War' bharich nanvaddleant.

'Divyamrut'antlem Goliata ani Davida modhlem zuz Xri J.B. Moraesacha likhnnedvarim Konkanni sahityant omor zatolem mhunncheak dubav na. Izakakak boli bhettovncheak Moria dongrak choddon vetana Abrahaman bhogche te vollvolle ani kollvolle, antorik choddpode, kallzak marchebori 'Divymrut'ant pintraileat. Kavyacho ho bhag vachtana kosolea kotthinn kallzachem monui koddon udak zata ani dolleani dukam denvtat. Egiptacho Rajyapal Zuzen, aplea ghatki bhavank bhettchem ani bhogsunchem ghodditui bharich marmik ritin 'Divymrut'ant chitrit zalam. Him thoddim druxiam hangasor chitrit zallim, jivim jivim, amchea mukhar ubim zatat. Vachuin zalea uprant thoddoso vell moti podd'dear nachtat. Samsaum bollvontak Dalila tosolea oskot cholien aplea stree sohoz soilapan solvovn nas kelli duront kotha jivall thoran 'Divyamrut'ant pintrailea. Hem monxa-kullachea charitrent hozar pavtti porot porot ami polletanv.

'Divyamrut'antli bhas ani borpa-reet sadya unnea xikpya vachpyanui hem vachun onond paviet. High schoolachea xikpeank koxem, thoxench vixvavidyalayant xikcheankui hem patth pustoka rupar xikonk divyet. Konkani bhaxechi sobhai, utranchem bhandar, olonkaranchem khozan, sarvotrik sotanchem protipadan, Kristanv Puranachim lokxonnam 'Divyamrut'ant jivall thoran chitrit zaleant. Konkanni bhaxechea xrextt kavyam poiki hem ek khonddit, edollcheak, Kanadi lipintlem ek, ekuch, mahakavyem mhullear 'Divyamrut'. Hem rochun Konkanni saraswat girest kellea mahakavi J.B. Moraesak Konkani somaje torphen 'Dev borem korum' mhunn magtam.

**Mark Waldar**, M.A.
*'Raknno' Satholleacho adlo sompadok*

# Kavichim Bhognna



Mogall Kavyapremino,

logbhog ponnas vorsam adim, 1959 vorsa, prosidh kavi ani 'Poinnari' haftalleacho tovollcho sompadak devadheen Cha.Fra. D'Costan kellea vinontik pallo diun havem Pornea Testamentar adharit 170 vollinchi David ani Goliath kavita boroili ani 'Poinnari' vixex onkyeant chapli. Chafrak toxem 'Poinnari' vachpeank thi bhov manvoli. Hea thoran 'Divyamrut' nillgavitecho buniadi phator ponnas vorsam adim bosoilo mhonniet. Uprantlea this vorsani 'Divyamrut'achem kaim kam chollena. 1989 vorsa thoddeo volli boroun 'Raknno' haphthalleant sankoll rupar fais keleo. Punn 'Divyamrut'achem aichem roop haddunk ani thoddim vorsam laglim. Hea vorsant mhun'nje 2008 isvent, 'Divyamrut' neelgavita sompoun thi tumche mukhar dovrunk mhaka vorto sontos ani trupti bhogta.

English, Hindi ani Kannada bhaxentlea mahakavia vixant havem zaitem aikolam ani vachlam. Kannadant Vinayak Krishna Gokakan boroillem 'Bharata Sindhu Rashmi', Kuvempun boroillem 'Ramayana Darxanum' ani Hindint Maithili Xarann Guptan boroillem 'Saket' bhov nvad'dik zavnasat. 'Ramayana Darxanam' ani 'Saket' havem vachleant. Manjexwar Govind Pain Kannadant Jezuchea jinnientlo nimanno dis, 'Golgotha' navan bhov marmik xailent kavia rupar haddla. Tacho Konknni anuvad Prof. Edward Noronhan bhov sundor ritin kela . Amcheach mai bhaxent sumar xembor vorsam adim Goinchea kavi Edward Bruno da Sozan 'Ave ani Mori' neelgavita boroilea.

'Divyamrut' hea rupar tumche mukhar hadunk voir ullekhit kellea ani her mahakaviani mhaka vortem preron khonddit dilam punn 'Divyamrut' tanchea unchlea mottak pavonk na zait them haum khalteponnan mandun ghetam.

Mhojea sondrapa promanne, Pornea Solleantlea vinchnnar ghodditam voir havem 'Divyamrut' rochit kelam. Logbhog pavnne don hozar volli hantum attapun asat. 'Adaum ani Ave', 'Nove ani tachi Nav', 'Zuze ani tache Bhav', 'David ani Goliath', 'Samsaum ani Dalila' - osolim bhognna bhorit ghodditam vinchun havem hi neelgavita boroilea. 'Divyamrut' kavita boroitana vhoddank dhorlolem bhurgeank soith vachunk thi sulobh zaize mhollo uddex mhojea mothint asullo. Pornea Solleantlim daivik prerit sonnivexam amchea Konkni lokak sadhya, punn kavichea udvegbhorit bhavananchea bhaxent kavia rupar sadar korchem sadhan havem kelam.

Pornea Solleantlim ghodditam sobar hozar vorsam adim boroillim. Thea kallacha lokachi bhas ani jinnie rit tantum zollkota. Oxem astam, thea kallachim ghoditam aichea Konknni pillgek somza sarkea bhaxent kavia rupar haddchem pretan kelam. Thoddim ghoditam kavya rupar chodd natakie ani romanchak distit. Sonvedanxali vachpeank hachi ruch nanvotoli mhollo mhozo bhorvoso. Havem vinchullim vevegllim ghoditam vividh sahitik rosani bhorullim ason nilgavitek yogya mhunn mhaka bhoglem.

Mhojea uleak pallo diun Divyamrut nilgavitek 'Raknno' haphtalleacho adlo sompadak Bap Mark Walderan apleo sorv ratavolli kuxik dovrun bhov khuxen in umhedin ek sovistar, chintonbhorit, panditya purnn prastavon aplea vixixtt xailent boroun dilleak haum tancho kallzant thaun runni zavanasam. Bap Walder 'Raknno' potracho sompadak zallea tovoll thaun tankam vollkotam. Zoxem Konknnint toxem Kannadantui the unchle pondit zaunasat. Tanni sompadan kellem 'Amar Konknni' pustokuch haka sax zavnasa.

'Divyamrut' pustokachem vaixixtt kitem mhollear, hi nilgavita Konknnichea tin lipini, mhonnje Kannada, Romi ani Devnagari lipini boroilea. Hea sovlotevorvim Konkanantlea novod ani nov protixat Konknni lokak 'Divyamrut' vachunk sadhye zatolem. Bap Mark Walderan aplea prostavonent sanglam ki 'Divyamrut'antli bhas ani borparitsompi ason sadhya toxem unnea xikpachea vachpeani soit hem vachun anand paviet. Highskulachea xikpeank toxench Vixvavidyalayant xikchankui hem path pustoka rupar xikonk divyet. Bap Walderachea hea obhipraiek, sombondhit Konknni phuddareani pallo dilear mhaka vorto sontos bhogtolo tantum dubav na.

Hem pustok bhov nazukaien chapun dillea 'Printania' Pressachea manest Albert D'Souzak haum bhov upkar baudtam.

**Mumbai** **J.B. Moraes**

**October 19, 2008**



# Divyamrut

## Adaum ani Eve

### Edon Uddean

Eden Uddean - bhumir voikunt - kitem na thoim dekhonk?
Sorgavoilem, doria sarkem, sukh thoim mellot chakonk!
Dista pachvi srishti soglli - thondai, ahlad mothik!
Phulam rongall, follam rosall - mellttit disak ratik.
Vaga-xivam, gorvam-mervam - bhovntit bhiyavinne.
Suknnim sobit, jivdall vividh - kortit thoimsor thanne,
Sarovarant udok proxant - dita asro batkank;
nillxem akaas kupam sahit - pratibimbit udkant;
Vixaal vrikxam unchar pavon - ditit savlli thondai;
Oskot vali revddon tankam - loktit vareant sodaim
Na thoim bhed-bhav - lhan, vhod, budvont - soglleim ekuchkutam!
Na dwex-zhogddem - raaz korit thoim - xanti, trupti sodaim.

### Poilo Monis

Mathi monvall, mathi itall, sasya jivink adhar
Gorbhant tachea lipon asat ratna amulya sabaar!
Mathi tosli mootbhor ghetli Somia Devan hathim -
Mukhar ghoddchem ojeap niall'n sontuxtt zalo mothim.
Apleach rupant rupit zait hem rochnant rochon uttim!
Apleach anand prakaxachem projvol ek protibimb -
Oblle noval! Mutti bhitor mathi nopoinch zalea!
Mukhar ubo monis poilo! Somiachi xrextt kala!
Phunklo Somian usvas odbhut - otmo! amar jivon!
Aplench svorup dilem taka - sruxtti zali pavan!

Rochon unchlem Devan rochlem! Punn tem apurn urlem -
Eksur maanav prithvir bhonvon mukh bhogit tor koslem?
Apnne rochlim vaga-shinvam, sunnim-mazram soiti
Asat khuxalkaient trupti - bhonvtat zodim zodim!

## Poili Stree

Sobai soglli aravn haddli nondon vana modli -
Mull thavn tokli sobai bhorli - Somian Evek rochli!
Adanv kuxin nidaun tika polloit apli kala !
Odbhut rochon - puruxak stree! Vhadounk monxa-kulla!



Utta Adanv - pollevn Evek dolleank to patiena!
Kallzant tachea uttleant kitlim sontosachim lharam!
Angang tichem parkita to vijmit khuxalkaien!
Nisargachi sobai purti apnnailea tea strien!
Nillxe dolle! Proxant tolleant protibimb mollbachem!
Dhompor poriant kesanchi raas! Jalapat nodichem!
Haltat asdeo dolleam voileo - pisolleanchim pakam!
Hastana omrukem - distat danta-povlle - thikam!
Choltam oxir penkttachi mod - lozoit soiti doodval!
Pikim zambam toxe tiche sobtat tambdde don gaal!
Angaveli gorsann tichi punve ratim chandnne!
Dolleam prakas sokallinchem suria-kiran tornem!

Varear sobtat kes te kalle - doriantlim xant lharam!
Sobai tichi pollet ravon - voranchim lamb voram!
Komal tambddea vonttank polle! Paklleo gulobacheo!
Movall vaddkull hatank polle! kaandio kelmbeacheo!
Aavaz ticho pimplla rukar gaunchea kogullecho!
Haso ticho aikonk modhur - gullgul nad nodicho!

## Sorop Nadtta

I began work on 'Divyamrut' which means 'Heavenly
Natlem kitench unne tankam - sukhi tanchi jinni -
Pollevn Soitan zollo mosran - ailo sorpa rupan!
Voddunk patki konddak Evek - boslo rukar lipon
Apun zolltam sasonn ujeant - zaina kedinch gobor!
Hanchem jivon nondon vonant - sorvoi sukha-xinvor!
Papa-savlli edoll nasli - Adanv Eve jinnient;
Atam Soitan zalo toiar - vodunk patka khonnient!
Atur monim rakon ravlo - pholl dhorlolem vengovn
Ha! kosoli godsann tachi! Sobta koxem rongan!
Strie svobhav chanchal - varear dholchea chivyabori!
Dakoi illi axa - choddoi unchar - bhulli nari!
Pavlam nazuk aikon Soitan vonttam bhitor haslo
Advarlelea phollant taka monxacho nas dislo!
Rukalagim pavtoch Evek bhuloita to dholon
Vikall mandnni lipovn tika sangta modhur tallean
'Sundor bavle! Edanantle! Adanv sangatinni,
Kalliz mhojem bhesam zata - chintun tuji jinni.
Kosli sobai! koslem ginyan! torui kiteak Devan
Dhorlam tuka dambhun oxem? Zollta kiteak mosran?
Utram gupit orthabhorit - aikon zait ti chokit.
Zallak aplea sampodli Ev! Soitan tokxon parkit.
'Nondon vanachi rai rani - kelam tumkam Devan.

Nondon von hem sompurn sukha-sompottichem sthovon.
Torui advarlam nhoim tumkam pholl eka rukachem?
Khelear tem zoddteleat zannvai - somzon borem-khotem
Apunn sorv podvedar mhonnchea Deva saman tumi
Zaxat khondit. Dhorteleat hi mutti bhitor bhumi'
Sorpa rupar Soitan tedna dislo sobit kunvor
Utranchem veek zalem amrut - ghatak boslo dhunvor!
Tambxem-pachvem, ambxem-godxem, pholl tem Even khelem;
Toxench gode utrani naddun - Adavn khaixem kelem.

## Somian Dilli Xikxa

Ekach phollan bodollem sorv! Jikli khoti axa!
Monxakullak lagli atam sasnnachi durdaxa!
Sasnnak tumi palvoile te projvolit don dive,
Kota! Kiteak kelem oxem Adanv ani Eve?
Nadtteleachea ghasak poddleat dakoinastam virodh;



Tallnne-ujeak zaleat boli - bhoglo somiacho crodh.
Nillxem mollab nitol tolleant zoxem protibimbit
Somiacho mog agadh, projvol jinnient tumchea chumbit.
Atam papa-savlli aili - suriak laglem grihann.
Sasann poriant monxakullak mukti opohoronn.
Nagnavasther xudh, sorol, povitr, nixkallank

Adanv Evek atam aplench xarir dista kalank!
Lojen doddtat, panam nhestat - lipounk vixve gupit!
Somiachea crodhachi bhirant kallzant tanchea roopit;
Kupam modlean Somia tallo apoitAdanv Evek;
Ghodghoddeacho aghat toso apttat papi kallzank!
'Adanv! Adanv! kiteak liplai? kitem tuvem keleim?
Takid mhoji moddlie tuvem! Advarlem pholl kheleim!'
'Even mhaka naddlem dhonia! Na kaim opradh mhozo'
'Sorpan mhaka naddlem dhonia' ultto vad Evecho!
Thoddeach ghoddiam - ontor kedem pap-nixpapa modhem!
Patkan kitlem nirboll zalem poilem monxa-zoddem!
Agadh dukhin bhorlo Somi - kitlo oskot monis!
Poileach talnnek zalo boli - Soitan jiklo solis!
Krodhan nhoim punn dukhin suttlim utram tachim nighud
'Cholia tumi dolleam mukhlim! Soddia bhumi voikunt!
Eve, tujea gorbhant kirlon evnchim bhurgim- ballam
Apar dukh hadtelim tuka podtana bhuim-thalla
Potik khal zavn choltelie tum - to tuzo soumrakxak.'
Adaunk Somian sanglem 'Adaum! Evek sontuxtt korcheak
moddliey ekuch takid mhoji! Xikxa ghe hi atam -
Bottam zoroi mathier, bhor pot mathiethavn sorvotam.
Mathie-thavn ubzallloi porot vhetoloi tum mathiek.
Moronn zanvdi ontim xevott prothvir monxa zatik.'
Adevce maglo nondon vonak - dukhan Adaum Even;
Pavlim pordexanchea thollar  ravlim koxtta daven.

## Cain Ani Abel

Pordexachea sukidhadint Adaum ani Even
Potachi bhuk thamboili bhov xraman, rogta-ghaman.
Dis-bhor golltoch kudi tancheo purasannen bhorleo.
Ratim ekameka vengent koxtt dukh sorv visorleo.

Prothom monxa bim kirlalem Eve gorbhant tedna.
Adaum Evek vedo marlim sontosachim bhognnam!
Mhoine nov ubon gele nov'ch disam-bori.
Aili ghodi udbhovachi - monxak chakit kori.
Somian rochlo poilo monis - atam monxak monis
Rochunk soklo daivi crupen - vhadavoll hi neez!
Bhogli Even voran voram - crur prasav-vedana
Uttlim tichea potant nixtur, lharam pattlean lharam!
Prosut zali cherkya ballak - korun rochon tinne!
Visorli dukh khinna bhitor! Avoiponna denne!
Apoilo 'Cain' nanvan taka - monxathavn ubzollo.
Veginch zolmolo put dusro 'Abel' nanva cholo.
Cainan keli kruxi - kosun xetam, lailim zaddam.
Abel zalo govlli - posun bhokreank toxem gorvank.
Bha-bhav dogui bhuzank bhuz divn golle pavsant votant.
Somian tankam uddhar kele pikovn bhangar xetant.
Sanglem Cainan 'bhava Abel, Somian dilem dharall.
Orgam taka divyam bhettovn bhokre, phollam rosall.
Dusre disa Cainan haddlim - xetant bhonvon, vinchun
Gonva conxi, rosall phollam ani phulam guntun
Dovorn vedir bhettovn Somiak sthuti tanne keli.
Somian dakoilem moun pollevn moth pisantur zali.
Abel gelo xelliam modhem - vinchli boryant bori.
Katorn tika bhettovn boli - Somiak khuxi zali.
Nitoll mollbak vedo ghaliar coxem callya cupan
Savlli podta toso Cain vidrup zalo rupan.
Krodha-mosra-uzo zollo hulpavn ontoskoronn
Pelyacho mog gelo lhason - kalliz zalem dharun
Ravlona thoim khinnak soiti - dhornnik khotto marun
Chollo vadoll varem koxem Somiak pat korun!
Somian ulo marlo 'Cain, kiteak ragar oso?

Khoimsor vhetai bhavak sandun, tacho voiri zoso?
Somiak tujea Abelachi mandli dekun bhettovnn
Sontos tuvem dakonvk favo hordeak taka vengovn.'
Kudin mothin keppo zallo mosran zallo ondhllo
Somia-utor tuchhit korun thoimsor-thavn tho chollo
Rakalaglo sondorbh sodhun pharikponnak axevn
Mosrachem bim vaddon ailem vixal ruka bhaxen.
Ailo ek dis apoilaglo Abelak to xetant
Dhare-suri lipoiloli budli tachea rogtant
Ekach avoichim don bhurgim - ekeach ruka-phantte
Eklo zalo vikall ani rogtant zale ventte
Marlo ulo Somian Cainak 'khoim asa bhav tuzo?'
Protyuttor hai kotthor! 'Nhoim hanv rakvoli bhavacho!'
'Kitem tuvem keleim Cain? Abelachem rogot
Zoimsor ximpdon mathient mellam, thoim thavn marthabobat.
Nirapradhi bhavacho jeev kadtastana tuvem,
Koxed'd tujem kantoinastam ravelm torui koxem?
Pholladik hea bhumik tuvem keloi kroor othyachar!
Phulam, phollam, konxi dilleak ho tuzo protyupkar?
Chol hea bhumi-thollathavn pois - kelleak ticho vibhad!
Khoimsor geloi thoimsor tuka mellteli sukidhad!
Jaunchena peek- mellchena udok!' Utram Kodsannechim
Dukham golloit, dhullint lolloit, kad mettam jinniechim!'



# Nove ani tachem Kutam

Vorsam pattlean vorsam gelim - sounsar gelo vhaddon
Adanv Eve pillgi chodli - dongor phalkim bhoron,
Tosoch bhorlo sounsar odhik vortya khoteaponnan.
Mull monxachem pap mullavem ailem pat dhorun
Loddai, dombi, chorpann, gali, produvarponn, allsai,
Bhorlem sogllean vojem khotem bhumik bhogli zoddai.
Somia-bhokti, bhirant va mog - urlona konnai thoim.
Bodlak tachi ninda korunk bhoglena tankam kaim.
Apar doria gundaiechi sosnnikai Somiachi
Sosunk ti sokana zali khorimost monxachi
Xinzlem tachem kalliz - agadh dukhin pollevn sounsar
Kitlea mogan rochlo apnne bhorun rochna vinchnnar
Aplea sarko monxak rochlo - dilem amar jivit!
Hogddailem tem khinnan, koxem? Konn tem patim hadit?
Jya dis Even vankddea vaten vhochonk mettam kadlim
Thya disathavn monxa-kullan sotachi vat soddli.
Suyog kitle portonk dile - patim khorea vatek.
Nixprayojak zale soglle monis urle khote.
Chintlem Somian, kelo nirdhar - sounsarachem nirmul
Ekuch vat chukik aplea - torui zalo vyakul.
Sorg'ch apnne bhasailolo - sasann sukhachi jinn!
Zali kodu monxakullak! Vengli patkachi jinn!
Patkachea yea agadh doriant ek lhan dvip aslolem -
Nove ani kutam tachem Dev-bhoktin vhadlolem.
Lamb kallkya surangant zhollkat uzvada kirnn zoxem
Adarx-bhorit jinni tanchi asonui khotteam-modhem!
Nove, tachi stree ani put Xem, Ham ani Zaphet
Ani putancheo potinni - mellon zonnam att!
Khottea pravaha virodh zhuztalim tim upenvk

Horiek konxar apai lipon aslo tankam budonvk!
Sanglem Somian ek dis Novek - patkan bhorla sounsar!
Kusoddai hi sorchi-na pois kelea bogor somhar!
Monxakul hem zatolem nas - songim khogam-mrugam!
Urchem-na kaim jivall aschem - urchinant ruk-zhoddam!
Dhaddtolom budtugol bhikar! budteli bhuim-bhattam!
Naum-nastana vhetelem sorv - vhallon avra lottant.
Urtelim att monxam prithvir - konn tim? koxim? Sangtam -
Kutam tujem att zonnanchem, mornnak tond dinvchem-na!
Ubra-modhem sallok komol sobta toxem, tujem
Kutam urlem kornnen nitoll - papa chikla modhem.
Bandhtoloi tum nav ek vhoddli - mozbhoot rukaddachi!
Dovor tantum zodi horiek prani vorgachi!
Zanvdi monzat, suknnem, jivdall - dhornnir chorchi jivi
Avra uprant bhoronk sounsar - sobhonk prithvi novi!
Astolem thya navent tujem kutam - thyo jeev-raxi!
Baki sorvank mellteli Somiachi nixttur phaxi!
Urlolem sorv usvas soddchem - nas zatolem avrant!
Papa-chikol vhochom dhuvon - marekar thya udkant!

## Novechi Nav

Novechi nav toiar zali - dekhteleank aturai
Sukya dhornnir nav bandhchi hi kosli hankam pisai?
Noven dili chotrai 'sodia patki jivit aiz-thavn!
Kora praxchit khoria kallzan Somiacho krodh devonv
Na tor nas zateli bhumi - urchi-na kaim jiv-ras!
Bhikar avrant budtelem sorv - cholot udkachem raz!
Aikatale hason gele - Novek piso kadun!
Patka kondant odhik romble - Somiachem bhiem sandun!
Ailo dis to jedna navent bhorleo pranni-raxi
Dhullintli kinchit mui dhorun zoit gatracheo hosti!

Aile kavlle! Aile parve! Rongall suknni hozar!
Kupank pakam laglear zoxim bhorlim vixal mollbar!
Hozar-talleam-sangit-mellan riglim nave bhitor!
Noven tankam dilo swagat gaun suknneanchem utor -
'Chili-pili' 'kuhoo kuhoo' uttli protidhvani!
Boslim mrugam modhem khagam - bhirant nastam moni
Dhaunte ghode nakam phulovn - vag-shinv goroz marun
Rigtam navent kampta dhoronn dhulli-kupam uttovn!
Tantlean kadtit met surakxit - hosti, gadvam, ghode!
chortat vikal sorop, aggyo, dakovn aplem ziddem!
Svorgiey drixya tem - Anjank favo! Novek dekhonk mellem.
Evnchem mukhar - onwar bhikor mothint tachea khellem!
Kutam odbhut monzatinchem! Vichitr axrak pavlem!
Pavtoch trupti - Noven aplem kutam navent vhelem.

## Budtugol

Bhorlem mollob kalleam kupan - prithvir ondhkar choddlo!
Donpharanchea bhorar kallok! Surio khoimsor liplo?
Ghodghodeachi goroz choddli - dolleank mar'n zoglanne!
Uchambolli varem vhallem - ruk zhoddank xevttilem!
Xinzlem mollab! Pavsa-dhari marleo surie bori!
Futtli prithvi! Tantlean sorleo bheekor udka-zhori!
Buddlim xetam! buddlim vonam! Buddlim ubar ghoram!
Unch pavlole ruk soit buddle! Buddlim unch xikharam!
Lhan-lhan vhalle zaleo nodi! Nodi zaleo dorie!
Avram pattlean avram ailim - buddli jeev-ras horiek!
Dhanvleo pranni jeeva'klasak - sodhun zage ubar!
Ublim suknnim bhizon ankudd'n - nastam bosonk adhar!
Vornnunk monxanchi avostha ienant utram tondant!
Dhanvle bhizon pixam-bori! Poddle khonnient, kondant!
Bosle pakiar! Choddle rukar! Dhanvle porvotam-voir!

